जाग प्रकाशनाचें

नवी जाग गोंयकारांक

म्हयनाळें

वर्स ४९ : आंक ६ : मार्च २०२३

● संस्थापक संपादपी :
स. रवीन्द्र केळेकार
स. सुमंत केळेकार

● वैचारीक दायज :
स. माधवी सरदेसाय

● संपादपी :
आसावरी नायक

● अतिथी संपादपी :
सखाराम शेणवी बोरकार

● पालवी संपादपी :
कृपाली नायक, एडना वाझ

● उजवाडावपी :
जयवंत भा. सरदेसाय
२०१-बी, सालदॅल अपार्टमॅन्टस्
रुअ द साउदादिश, पाजीफोंड,
मडगांव - गोंय ४०३ ६०१.

● छापपी :
इंप्रेशन्स, बी-२, 'अक्षर आर्केड',
गोंधळी गल्ली, बेळगांव ५१० ००२

● वेव्हाराचो नामो :
जाग म्हयनाळें
बिल्डींग ३, प्लॅट ३, - SE-3
मॉडेल स्टेटस, दोनापावल-तालिगांव मार्ग,
गोंय विद्यापिठा लागसार,
ताळगांव-गोंय ४०३ ००४.
फोन: ७४४७२६८७२० | १७६५१८७६०६

| | |
|---|---|
| वर्सुकी पटी | : ४००/- रु. |
| विद्यार्थ्यां खातीर (फकत वर्सुकी) : | २००/- रु. |
| तीन वर्सांची पटी | : १,०००/- रु. |
| वाचप-घरां खातीर वर्सुकी पटी | : ५००/- रु. |
| जिवीत भराची वांगडी-पटी | : ४,०००/- रु. |

**Jaag Bank Details:**
Accont No. 4004002100005165
Name : JAAG MONTHLY
Bank Name: Punjab National Bank
Branch : Panaji-Goa
IFSC Code: PUNB0292300

किरकोळ आंकाचें मोल : रु. ४०/-





## मांडावळ...

०२ संपादकीय........

०२ नागेशबाब... ........ माधव बोरकार

०४ नागेशबाब: एक चळचळ, एक संस्था... ........ हेमा नायक

०६ कोंकणीचे दोन दिपस्तंभ गेले........ प्रकाश दत्ताराम नायक

०९ लेखकांचो सांगात - एक आनंदाणभव... ........ नागेश करमली

१० नागेशबाब कोंकणीचे म्हान फुडारी ........ मुकेश थळी

१२ जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद ...... ........डॉ. सोबिता किर्तनी

१४ संघर्श ........ अरविंद पांडुरंग भाटीकार

१६ कविता: ........ ........नंदकुमार कामत, परेश नरेंद्र कामत, आर. रामनाथ, माधव बोरकार, सोनाली सु. पेडणेकर, उल्हास पै रायकार.

१८ म्हजो रवीन्द्र सांगात ........ ........दिलीप बोरकार

२० पडसाद ........ ........मुकेश थळी

२२ पांडुरंग भांगी - जिवीत आनी कवीत ........ ........ माधव बोरकार

२५ सखाराम ........ ........दादा हेगडे

२६ चायोबोयो (कथा) ........ ........माया अनिल खरंगटे

२८ लाशें (कथा) ........ ........अरुण साखरदांडे

३१ भायरीकांड (विनोदी) ........ ........महेश पारकार

मुखपृष्ठ चित्र : दो. प्रदीप बोरकार
भितल्ली चित्रां : निशीत बोरकार.

<u>संपादकीय</u>

## नारायणबाब आनी नागेशबाब हांका आर्गां!

जानेवारीत जेश्ठ लेखिका जयमाला दणायत हांकां आयिल्ल्या अचकीत मरणाचें दुख्ख कोंकणी संवसार पचयता थंयच आसा, फेब्रुवारी म्हयन्याच्या सुर्वेकूच नारायणबाब मावजो आनी नागेशबाब करमली हांच्या मरणान कोंकणी चळवळीक फाटोफाट दोन धपके बसले. हे शोक - धपके तशे अनपेक्षीत नासले. निसर्गाच्या नेमानुसार जाण्टे पिरायेचेर तांणी आमचो निरोप घेतलो, तरय तांचें आसपच कोंकणी चळवळीक स्फुर्तदिणें आसलें. आयज कोंकणी चळवळींत आदरान पळोवपाचीं श्रद्धास्थानां हाताच्या बोटार मेजपा इतलींच उल्ल्यांत, तेन्ना अशीं व्यक्तीमत्वां पयस जावप म्हळ्यार चळवळींत एक पोकळी निर्माण जावप.

नारायण मावजो हांणी सदांकाळ कोंकणीची निसुवार्थपणान सेवा केली. कोंकणी भाशा मंडळाच्या सुर्वेच्या वावरांत तांचो खूब व्हडलो वांटो आसा. १९७९ वर्सा सुरू केल्ल्या कोंकणी भाशा मंडळाच्या विद्याभुवन कोंकणी शाळेचे ते एक संस्थापक आशिल्ले. साबार संस्थांक चड करून कोंकणी संस्थांक आनी व्यक्तींक तांणी वेगवेगळे तरेन मदत केल्या.

कोंकणी चळवळीचे म्हालगडे, कवी आनी सुटके झुजारी नागेश करमली हे ०९ फेब्रुवारी २०२३ दिसा संवसाराक अंतरले. नागेशबाब हें भोव- आयामी व्यक्तीमत्व. स्वातंत्र्य सैनीक, लोहियावादी, लेखक तशेंच पणजी आकाशवाणीचे जेश्ठ निवेदक अशीं साबार फितां आशिल्लें एक पेजाद व्यक्तीमत्व आमच्यांतल्यान गेलें. भरून येवं नजो असो उणाव हो.

नागेशबाबांकडेन सगळें गोंय आदरान पळयतालें. गोंयचो सुटके संग्राम ते हालीं हालींची भारतीय भाशा चळवळ हातूंत सक्रीय वांटो घेतिल्ले ते गोंयचे निमणे व्यक्ती आसले. नागेशबाब म्हळ्यार एकेतरेची रसरशीत शक्त. निर्भय. सडेतोड आनी स्पश्ट मतां खातीर कांय जाणांकडेन तांणी वायटपण घेतलें पूण सत्याक दसून रावले. नागेशबाब रायटर आनी फायटर श्रेणींतले लेखक. तांणी कविता, ललीत लेख बरयले. जेन्ना जेन्ना कोंकणीचेर गोंयच्या हिता आड कोणूय वागलो तर तांणी आपल्या परखड भाशेंतल्यान तांकां वाणी, लिखणी वरवीं भायरी दिली. उजरायले.

नागेशबाब एक व्यासंगी वाचक. तांचें वाचनालय सगळ्या संस्थाक देखदेणें. सगळ्या भाशांतलीं पुस्तकां तांचे लायब्ररींत आसातूच आयज मेरेन उजवाडाक आयिल्लीं सगळीं कोंकणी पुस्तकां तांच्या वाचनालयांत आसात. तिंवूय विकती घेतिल्लीं.

नागेशबाब म्हळ्यारुच एक चलतें भोंवते वाचनालय. सगळे तरेचें साहित्य पचयल्लो, जिरयल्लो वाचक. जें कितें कोंकणींत ना तें हाडपाचो येत्न करपी लेखक. खलील जिब्रान तांणी कोंकणींत हाडलो. गजल हो प्रकार कोंकणीत रुजयलो. गाजिल्लीं नाटकांय अणकारलीं.

जागाचो हो आंक आमी नागेशबाबांक ओंपला. नागेशबाबांच्या संपर्कांत आयिल्ल्यांचे लेख हातूंत आसपावीत केल्यात. वास्कोचे दोतोर आनी नामनेचे चित्रकार दो. प्रदीप बोरकार हांणी थोडयाच वेळामितर नागेशबाबाची पोर्ट्रेट मुखपृश्टा खातीर काडून दिली. सगळ्यांचे उपकार.

सदचीं सदरां आसातूच. तुमच्या फाटबळाचेरूच अंक निर्मुवप शक्य जाता. साहित्य येत आसता. कांय जाणांचें छापपाक कळाव जाता हेविशीं लेखकांक समज आसात्, हो आमचो भरवंसो.

नारायणबाब मावजो आनी नागेशबाब करमली हांका आमचीं आर्गां.





# नागेशबाब...

**माधव बोरकार**

नागेशबाब गेलो आनी मनांत पोरन्यो यादी जाग्यो जाल्यो. १९६८ वरसा सावन हांव अर्दीमर्दी पणजेच्या कोंकणी भाशा मंडळाच्या फाट्यांत वचपाक लागलों. थंय आंतोन मोरायश आनी ऑक्ताव रॉड्रिक्स हे नेमान येवपी. मोरायशबाब आपलें ऑफिस सुट्रकच तडक भाशा मंडळांत येतालो तर ऑक्तावबाब ताचे फाटोफाट. हांगा र. वि. पंडित, मनोहरबाब चड करून शेनवारा, भिकाजी घाणेकार येताले. म्हजी ह्या सगळ्यांकडेन हांगाच वळख जाली. ही सुवात म्हळ्यार करमळेचें तळें कशें आशिल्लें आनी एक दीस नागेशबाब भाशा मंडळांत आयलो. मोरायशबाबान म्हजी ताचेकडेन वळख करून दिली. आकाशवाणीक लागून ताच्या आवाजाकडेन विनोद केलो. आमी खळखळून हांसले ताची आज याद जाता. तेन्ना नागेशबाब पिपल्स हायस्कुलाच्या फाटल्यान आशिल्ल्या एका ल्हानशां घरांत भाड्याक रावतालो. आनी तांची घरकान्न मोहिनी मळ्यांतल्या झरी कडेन आशिल्ल्या प्राथमिक शाळेंत शिक्षिका आशिल्ली. रामदास आनी शैला हीं तेन्ना सामकीच ल्हान भुरगीं. हें घर बदलून तो पणजेचे इगर्जे कडेन आशिल्ल्या आनीक एका घरांत गेलो आनी थंय सावन मागीर मळ्यांत स्थलांतर केले. आनी ह्या घरांत मात तांचो खूप वरसां राबितो केलो. आनी ताची ही मठी कोंकणी चळवळीचें केंद्र जालें. ही सुवात ल्हान आसुनूय थंय येतो वतो खूप आसतालो. मुखेल गजाल म्हळ्यार ताची घरकान्न मोहिनीबाय तोंड भरून सगळ्यांक येवकार दिताली. ताका लागून हें घर सगळ्यांक आपलें कशें दिसतालें. मुखार नागेशबाबान चिंबला जागो घेवन घर बांदलें आनी ताका 'मानसदिप' अशें नांव दिलें. हें घर चिंबला सारकिल्या आडवाटेर आसुनूय थंय लोक तागेर पावताले.

नागेशबाबाली कुटुंबीक पाठभूंय सगळ्या साररस्वतांसारखी. काकोड्या सारक्या गावांत शिक्षणाची म्हणपाची सोय नाशिल्ली. ताका लागून गरजे पुरतें शिक्षण घेवन कसलो तरी धंदो ना जाल्यार शेता भाटाच्या ल्हानश्या कुडक्याचेर कुटूंब चलोवप हें तांचें प्राक्तन. नागेशबाबाचो बापूय केप्यां आयलो आनी थंय एक पसरो आनी च्याचें हॉटील घालें. तें सादारण केप्यां कोर्टांक लागीं आशिल्ल्यान आदव्होगाद आनी तांचे अशिल हांची थंय उठबस आसताली. तांचे रावपूय फाटलेवटेन आसतालें. केपें त्रिबुनालार आशिल्ले शिवाजीबाब वर्दो कासाक वतना 'करमलीबाब मसालो वाटून दवर' अशें सांगून वतालो. अश्यो कितल्योतरी यादी नागेशबाब सांगतालो. 'त्या दिसा वडाकडेन' हे बाकीबाबाले कवितेंतल्या वडा सबंदान एकल्यान कल्पीत बरयलें तेन्ना त्या वडाचो इतिहास ताणे सांगलो.

केपेंच्या इश्कॉल प्रिमारयांत शिकतनां बाकीबाब ताचो प्रोफसोर जाला. केन्नाय ओगान बाकीबाबासंबंदान तो सांगतालो. केप्यां आसतना बरयल्ल्यो कविता तांचेकडल्यान आयकुपाची संद नागेशबाबाक मेळ्ळी. तेन्नाच ताच्या मनांत कवितेचें बीं पडलें. केन्ना केन्ना बाकीबाबाल्यो कविता आयकूपाक थंयचे आदव्होगाद बी येताले. एक फावट नामनेच्यो मराठी कवयित्री संजिवनी मराठे केप्यां तांकां मेळपाक आयिल्ल्यो. दुसरे दिसा क्लासांत भुरग्यांक फकत कविता आयकुपाक मेळ्ळ्यो. कवितेचो रसीक केप्यां सारकिल्या गावांत मेळप कठीण. ताका लागून बाकीबाबाची मानसिक कुचंबणा जाताली. १८ जूना उप्रांतचो



हरशीं नागेशबाबांक इंग्लीश येनाशिल्ली. पूण यत्न करून तें पुस्तक वाचलें आनी तेन्ना सावन इंग्लीश पुस्तकां ताणे नेमान वाचलीं.

बंदखणीत आसतना नागेशबाबान एक म्हत्वाचो उद्योग केलो तो म्हळ्यार 'जोत' ह्या हाताळ्याची निर्मणी. खऱ्या अर्थान कवी आनी बरोवपी म्हूण ताचो उदेव हांगाच जालो. आपल्या सांगात्यां कडल्यान ताणी धाकल्यो कथा, कविता तांच्या फाटीक लागून बरोवन घेतल्यो आनी तें सगळें साहित्य आपल्या निवळ आनी सुंदर अक्षरान बरोवन काडलें. तांचे बराबर प्रफुल्ल प्रियोळकार आसताले.

बाकीबाबालो नवो अवतार ताणे पळयल्लो ताच्यो यादी तो सांगतालो.

नागेशबाबालो बापूय बेगीन भायर पडिल्ल्यान संवसाराचो भार ताच्या खांदार आयलो. ताची जीण बदलून गेली. शिकप अदर्यार सोडून ताका चाकरी धरची पडली. लोटलेचो भाटकार व्हिसेंत जुआंव फिगरेद हो सार्श्टींतलो एक गडगंज आस्पत आशिल्लो. ताच्या भाटांत वर्सयभर पाडो अशी ताची नामना. मीन सुरू जातकच तो ह्या धंद्यांत आयलो. ताच्या कुर्पेच्या खणीर नागेशबाब काम करपाक लागलो. ताका गोंयच्या खाण व्यवसायाची इतिहास खबर आशिल्लो हाची खूप जाणांक खबर आसपाक ना. हो भाटकार मिनाची खण भाट कशें चलोवपाक लागलो. ताच्या व्यव्हाराक कंटाळून ताणे दुसरे खणीर नोकरी धल्ली. हांगा ताचो सबंद कामगारांकडेन आयलो आनी तातूंतल्यान सामाजिक जाणीव ताचेमर्दी रुजूंक पावली. गोंय सुटके उप्रांत ताणे कांय काळ गोंयच्या कामगार फुडाऱ्यांबराबर वावर केलो. जॉर्ज फॅर्नांदीश हांचेकडेन हांगाच ताची वळख जाली. नागेशबाबाल्या व्यक्तिमत्वाचें हें एक म्हत्वाचें तांस.

ताच्या जिविताच्या पुस्तकाचें एक वाचपा सारकें पान म्हळ्यार ताचो गोंयच्या मुक्ती चळवळींतलो वांटो. ऐन तरणे पिरायेर ताणे हे चळवळीत उडी घेतली. त्या वेळार तो आपल्या कुटुंबाकडेन आशिल्ली लागणूक विसल्लो. त्या काळाचो तो परिणाम आसुंये. कांय ना म्हळ्यार पांच वरसां ताणे रेयश मागूस आनी आग्वाद हांगा बंदखणींत काडलीं. हीं पांच वरसां म्हळ्यार एका अर्थान जिवीत समृद्ध करपी थारलीं. जें औपचारीक शिकप अर्दकुटें उरिल्लें तें पुराय करपाची संद ताका हांगा मेळ्ळी. पांडुरंग मुळगांवकार, गोपाळ आपा कामत, नंदा गायतोंडो सारकिल्यांच्या सांगाताक वेगवेगळ्या विशयांचेर भासाभास जाताली. आनी कांय बरीं पुस्तकां वाचपाक मेळटालीं. जानुआर फेर्नांदीश ह्या हळदोणेच्या एका शिक्षका कडल्यान तो उर्दू शिकलो. शणै गोंयबाबाले बरपावळीचें वाचन हांगाच जालें आनी कोंकणी विशींची भुमिका आनी निष्ठा घट जावंक पावली. कोणे तरी चोरून सेलांत पावयल्लें पंडित नेहरुचें आत्मचरित्र वाचून काडलें.

ते एक बरे चित्रकार. अंकाची सजावट प्रियोळकार करताले. ते राजकारणांत पडूंक नाशिल्ले जाल्यार ते एक बरे चित्रकार म्हूण नामना मेळयतले आशिल्ले. ताणी कांय ना म्हळ्यार सोळा अंक काडले आसपाक जाय. तातुंतले कांय मुंबय राबितो करून आशिल्ल्या आमच्या एका लेखकान व्हेले आनी शेणयले. आनी मुखार तांकां विचारतकच त्या लेखकान ताका फाफुडलो. एक मोलादिक असो ठेवो गेलो हाची नागेशबाबाक खंत भोगली. ह्या अणभवाक लागून उरिल्ले अंक ताणे कोणाक दाखयले ना. बंदखणीत आसतना ताणे डायरी बरयली. ती वाचपा सारकी आसा. ती उजवाडा हाडची म्हूण खूप जाणांनी ताका सांगून पळयलें. पूण ताणे ती गजाल काना मनार घेतलीना. तें काम आतां तांचे पूत रामदासान करचें अशें म्हणचें दिसता. तातुंतल्यान बंदखणीच्या जिविताचेर बेस बरो उजवाड पडटलो. बंदखणींतल्यान सुटून येतना तें हातबरप मोठ्या हिमकतीन भायर हाडचें पडलें. ती एक आगळीच कथा.

नागेशबाबाल्या जिविताक थिराय येवपाक ताका परिस्थितीकडेन बरोच संघर्श करचो पडलो. थोडी भोव पत्रकारिता ताणे ह्या काळांत केल्या. फेलिसियो कार्दोज 'लोकसाद' हें नेमाळें काडटालो. तातूंत तो कांय दीस आशिल्लो. शिक्षणीक पात्रताय फाव ती नाशिल्ल्यान सरकारी नोकरी मेळप सोपें नाशिल्लें. पूण ६.६.१९६६ ह्या दिसा ताका आकाशवाणीत उद्घोशकाची नोकरी मेळ्ळी. ह्या पदाक शिक्षणीक पात्रतेपरस बरो आवाज आनी बरोवपाची कला आंगात आसप गरजेचें qualification आशिल्लें. ताची परिक्षा आनी मुलाखत बाकीबाबान घेतिल्ली. केप्यां शाळे उप्रांत आतां आकाशवाणीचेर एका वेगळ्या नात्यान ते एकठांय आयले. हांगा तो कांय काळ 'युववाणी' ही कार्यावळ पळयतालो. आज जे कांय कथा, कविता बरोवन कोंकणीच्या मळार पर्जळटात ते नागेशबाबाचे find म्हणपाक जाय. हांव मुंबय आकाशवाणी वयल्यान बदली जावन पणजे आयलों. तेन्ना तो सेवानिवृत्तीच्या वाटेर आशिल्लो.

*(पान ११ चेर)*



# नागेशबाब : एक चळवळ, एक संस्था...

**हेमा नायक**

णव फेब्रुवारीची दनपार. सकाळच्यान वगीच चित्त अस्वस्थशें आशिल्लें. नागेशबाब हांथरूणार आसा. निमाणी घटका लागीं पावल्या हें ताचे वागणुकेंतल्यान जाणवतालें. ताची स्मृती उणी जायत गेल्या आनी कूड थकल्या हेंवूय कळिल्लें. इतल्यान अँथनीचो फोन आयलो. हेमाबाय नागेशबाब गेलो. ह्या दुख्खाची झळ फाटले कितलेशेच दीस आदीं सावन जाताली. पूण कालच्यान ती अदीक तीव्र जाल्ली. अँथनी, सुनिल पालकार हांचेलागीं नेमान फोन करून खबर घेतालें. तो वचपाचे वाटेर आसा हें जाणा आसून लेगीत प्रत्यक्ष घडणूक घडटा तेन्ना काळजाक जी खोल दुखापत जाता ती असह्य आनी वेदनाकारी आसता. वाऱ्या वांगडा ही खबर खिणभरयांत सगळ्याक पातळ्ळी. काळीज धडधडूंक लागलें. खीणभर थंड मोनेपण. ह्याच दोन दिसांआदीं कोंकणीचो आनीक एक जबाबदार मनीस नारायणबाब मावजो गेलो. पिरायेन जाणटो, पूण कोंकणी वर्तुळांतल्या सगळ्यांक जाय जायसो दिसपी. तें दुख्ख ल्हव जावंचे पयलींच हो भार असह्य जालो. नागेशबाब बरो नाशिल्लो. ताचीय बी वाडटी पिराय. ९० वर्सांची. आयुश्यांत जायत्यो खस्ती काडल्यो पूण केन्ना पिरंगलो ना. कितलींय अरीश्टां येवं वा संकश्टां कोंसळूं तांचेर मात करून कशें जगपाचें हो धडो ह्या मनशा कडल्यान हांव शिकलें. आपल्या जगपाचेर जीं मनशां प्रेम करतात तीं सदांच सुखी आसतात. तांच्या तोंडार केन्नाच निरशेवणेचें सांवट दिसना. असल्या मनशांच्या सांगातांत रावप वा तांचे कडेन संबंध दवरप सदांच बरें. निरशेल्ले वा वेदनांनी पिडेस्त जाल्ल्या मनशांनी वा त्रासीक जाल्ल्यांनी तांच्या वांगडा रावचें. आपली पिरंगण खंयचे खंय ना नपयत जातली. तांच्या उलोवपांतल्यान स्फूर्त आनी जगपाक एक नवी उमेद येता. नागेशबाब हातूंतलो एक. अशे मनीस कितलेय दुयेंत आसले तरी तांचो आमकां धीर जाणवतालो. ताणी हांथरूणार आसप हो आदार आनी तांचें हें आसपच समादान दिवपी. रवीन्द्रबाबाविशीं अशेंच दिसतालें, आतां नागेशबाबाविशीं तशेंच जालें. हो मनीस स्पष्ट उलोवपी आनी आमचे कडसून एखादी चूक घडल्यार आपोवन व्हरून खडसावपी. तातूंत परगट्टाली आमचे वयली तांची माया आनी कोंकणीच्या उजळ फुडाराचो हुस्को.



नागेशबाब म्हजो कोण आशिल्लो ? हें सांगप भोव कठीण. सगळ्यांत पयलीं कोंकणीच्या मळार म्हज्या हाताक धरून ओडून म्हणटा तशें भितर हाडपी मनीस म्हणल्यार नागेशबाब करमली. ओडून हाडलें खरें, पूण बळजबरीन न्हय. कारण म्हजी तेन्ना तरणी पिराय, आवयबापायक तशेंच म्हज्या व्हडल्या भावंडांक हुस्को आशिल्लोच. पूण नागेशबाबान म्हज्या कुटूंबांतल्या मनशांचो विश्वास जोडलो. मडगावां आयल्यार मुजरत आमच्या घरा येतालो आनी आवय कडेन नमळायेन उलयतालो. तुमच्या हेमाचो हुस्को करूं नाकात. तें आमचेलागीं सुखरूप आसा. तें आतां आमचें जालें कोंकणीचें. आवयक ताचेर विश्वास बसलो. ताणे तिचें काळीज जिकिल्लें. नागेशबाबान म्हाका कुटूंबीक माया दिली. आपल्या कुटूंबांत ताणे म्हाका अचळय भरसून घेतलें. ओड आनी माया. म्हाका मायेचीं मनशां मेळ्ळीं. हांव नागेशबाबाच्या घरचें जालें. कोंकणी कार्यावळींनी तेन्ना सटसट करून भायर सरपी हांव एकलेंच चली म्हणल्यार जाता. देखून म्हाका सांबाळपाची आनी म्हजेर नदर दवरपाची बाकिच्यांचेर एक जापसालकी आशिल्ली. तांचो हो धीर म्हाका सदांच वेळावेळार मेळत गेलो. नागेशबाब तेन्ना आकाशवाणी पणजे केंद्राचेर. युववाणी, व्हनीबायली वासरी अशो कार्यावळी सादर करतना नागेशबाबाचें मेळप चड ओडलायणे आसतालें. मुजरत सोदीत येतालो आनी दनपार जाल्यार आपणागेर जेवणाक घेवन वतालो आनी चड सांज जाली जाल्यार रातीकडेन रावपाक. नागेशबाबालें कुटूंब तेन्ना पणजे मळ्यांत बिराडान. एक माळयेचें घर. माळयेवयल्या एका भागांत नागेशबाबांचें कुटूंब. तो, ताची घरकान्न मोहिनी (भाभी म्हणटालीं आमी तिका), चली शैला आनी चलो बाबू (ताचें नाव रामदास). हे इल्लेशे जागेंत तांचो संवसार. आमचे सारकेलीं वतकच सगळ्यांकच खोस जाताली. रांदून वाडपांत भाभीक उमेदी जाताली. तिची उलोवपाची कारवारी शैली आनी फकाणां मस्कऱ्यो करीत मजा येताली. नागेशबाबाचो हांसो तोखणायेचो. विनोद करून ताचें मोठ्यान हांसप. वातावरण खेळीमेळीचें जातालें. हे सुवातीचेरूच कोंकणीच्या विकासाच्यो कितल्योशोच आंखण्यो जायत गेल्यो. कोंकणीच्या वेगवेगळ्या थरांतले लोक हांगा येत आसताले. खूब फावटीं हो आमचो मिटींग पोइंट आसतालो. हांगाच जाताल्यो साहित्यिक गजाली, वाद, संवाद. नव्यो काव्य रचना वाचून दाखोवप, कथेच्या विशयांचेर चर्चा करप आनी कोंकणीची स्ट्रेटेजी लेगीत केन्नाय हांगाच थारावप जाताली. भाभी सदांच हांसत्या मुखाची. आयिल्ल्या कोणाक च्या दिले बगर धाडिनासली. इतल्या खेळिमेळीच्या आनी मनरीजवणेच्या वातावरणांतल्यान नागेशबाबाल्या कुटुंबांत हांव समरस जाल्लें.

नागेशबाब गेलो आनी आतां खरेपणी रितेपण भासपाक लागलें. तेन्ना कोंकणी म्हालगड्यांची एक टीम कशी तयार जाल्ली. तेच एकामेकाक जपताले आनी आमच्या सारकी तरनाटी फौज कोंकणीक कशी लागीं येत आनी कोंकणीच्या संघर्शांत गंभीरपणान कशीं भरसत हाचेर बारीकसाण दवरून आसताले. सगळ्यांक लागीं करपाचें संघटन कौशल्य नागेशबाबाकडेन आशिल्लें. पणजेचें मळ्यांतलें घर हें आमच्या कोंकणी बुनयादीचें थळ जावन उरलें अशें म्हणल्यार अतिताय जावंचीना.

अशे तरेचे पाठराखण करपी म्हजें बरें मागपी मेळ्ळे म्हणूनच धाडस आनी धिटाय म्हज्यांत बळावत गेली हें हांव मान्य करतां. तांची म्हजेवयली माया, तांचो सहवास आनी सांगात म्हाका सामर्थ्य वाडोवपाक कारण थरलें. चंद्रकांतबाब केणी, रवीन्द्रबाब केळेकार, गुरूनाथबाब केळेकार, नारायणबाब मावजो आनी नागेशबाब करमली हांच्या सहवासांत  बरेंच कितें शिकपाक मेळ्ळें. जे पिरायेचेर संस्कार घडपाचे आसतात ते पिरायेर म्हाका ह्या व्यक्तींच्या परिपक्कतायेची सांवळी मेळत गेली. तांची माया आनी तांचो धाक तशेंच वेळावेळार म्हाका मार्गदर्शन लाभत आयिल्ल्यान म्हज्यांत एक आगळेंच बळगें आयिल्लें. हे सगळे म्हाका म्हज्या बापायचे सुवातीर आशिल्ले. ताका लागून केन्ना कसली भिरांत दिसली ना. ह्या सगळ्यांच्या संस्काराखाला हांव वाडत गेलें. आतां जेन्ना नागेशबाब गेलो तेन्ना म्हाका एकलें पडिल्ल्याच्यो वेदना जाणवपाक लागल्यो.

बरयतां नागेशबाबाचेर पूण हे सगळेचजाण म्हाका लागीं आशिल्ले. एकल्याचें नांव घेतल्यार सगळेच दोळ्यांमुखार येतात आनी यादिंचो पावस झडूंक लागता.

नागेशबाब हें एक सर्वगूणसंपन्न अशें व्यक्तिमत्व. नागेशबाब म्हणल्यारच एक चळवळ. सामाजीक, साहित्यिक, कोंकणी भाशेची आनी राजकी लेगीत. खंयचेंच मळ ताकां लागना अशें नाशिल्लें. ताच्या उलोवपांतल्यान इतलें गिन्यान परजळटालें, तातूंतल्यान आमच्या गिन्यानांत भर जायत वताली. आकांताचें वाचन ताचें. भरपूर अणभव आनी धाडसी कृती. ताणें उलयत रावचें आनी आमी आयकत रावचें अशें घडटालें. सांजवेळचें पणजेच्या आजाद मैदाना कडल्या टी.बी. कुन्हा हॉला सकयल आमचें मेळपाचें ठिकाण. काफे प्रकाशांत च्या घेवपाची आनी वर्षा बुक स्टॉला मेरेन चर्चा. वयर हॉलांत वचपाची गरज नासताली. कोंकणीचो मनीस थंयच मेळटालो. वरांचीं वरां थंयच वतालीं. एकेकलो जमा जायत रावतालो. नागेशबाब मुखेली. रमेश वेळुस्कार, दिलीप बोरकार, अशोक भोंसलो, दिगंबर शिंगबाळ, उमेश म्हांबरो, दामोदर घाणेकार आदी. ती सुवात कोंकणीवाद्यांची म्हण फामाद जाल्ली. शेणिल्लें गोरूं करमळेच्या तळ्यांत हे ओपारी प्रमाण कोंकणीच्या मनशाक सोदीत कोणूय जर ते सुवातीर आयलो तर थंय तो जुस्त सांपडटालो आनी प्रत्यक्ष सांपडलो ना जाल्यार तो खंय आसूं येता हाचो थाव ठिकाण मेळटालें. नागेशबाबान अशेतरेन लोकांक पुंजायिल्ले आनी कोंकणीचे करून सोडिल्ले. हें संघटनकौशल्य ताचे ठांय आशिल्लें जें कोंकणीचें संख्याबळ वाडोवपाक खूब बऱ्याक पडलें. दरेकल्याचे जापसालकेची लागणूक वडीलकेच्या नात्यान ताणे घेतिल्ली. बरेच दीस एखादो कोणूय दिसलोना वा आयलोना जाल्यार ताका हुस्को जातालो. चली म्हणून म्हाका चड जपतालो.

नागेशबाबान एक अजरंवर असो इतिहास रचलो, घडयलो आनी आमचे मुखार तो सादरय केलो. गोंयच्या सुटके झुजांतलो ताचो वांटो खूब कश्टांचो आनी प्रतिश्टेचो. गोंयच्या लोकांचो स्वाभिमान जागोवपाचें काम ताणे केलां ताका मोल आसा. गोंय मुक्ती लढ्यांतलो ताचो वांटो न विसरपा इतलो बळीश्ट. कोंकणी आमची अस्मिताय हो मंत्र ताणी आमकां दिलो आनी कोंकणीच्या दरेका लढ्यांत वांटेकार जालो. वेळा प्रसंगार राजकी फुडाऱ्यांकडेन वाद घालो आनी गोंयचो इतिहास घडोवपाची गवाय जालो.

जशी तळमळ तशेंच ते तळमळींतल्यान भायर सरिल्लें ताचें लिखाण. दुसऱ्यांक जोश हाडपी ताच्यो कविता. ताच्या बरोवपांत समाज सुदारणेचो आक्रोश आशिल्लो, चिड्डिल्ल्या माडिल्ल्या समाजाचेर घडटल्या अन्याया आड त्यो रचना आशिल्ल्यो. नागेशबाबाक जात, धर्म, देव देवस्पण लागनाशिल्लें. समानतायेचे पूजक. तांच्या घरांत भितर सरून माळयेचीं सोपणां चडटना एका नितळ निर्मळ मनशाच्या घरांत भितर सरतां हाचो भास जातालो, आनी आपणेंय इतलें शुद्ध आसचें ही भावना आपल्याय मनांत निर्माण जाताली. सडेतोडपणा आनी स्पश्ट उलोवपी नागेशबाब आमकां वेगवेगळ्या गुणांच्या संस्कारांची पुंजी दिवन गेलो. ताणे आपल्या लिखाणांक साधन मानलें ना तर आपले सृजनशीलतेक साध्य मानलें. कित्याक तर ती सृजनशीलता ताचे विविध तपस्येंतल्यान आनी अणभवांतल्यान निर्माण जाल्ली. एक रायटर एक फायटर हाचे परसूय नागेशबाब हें क्रांतीकारक विचारांचें व्यक्तीमत्व आशिल्लें. ताणे सदांच मानलें, समाजांत फकत दोन वर्ग आसात, शोषीत आनी अधिकार चलोवपी. शोषीत वर्गा वटेन ताचे विचार झुकताले. संघर्श हो सदांच शोषीत वर्गा कडल्यान घडटा. कित्याक तर आव्हानां सदांच शोषीत वर्गा मुखार उभीं आसतात आनी ताका लागून अशे 'अनबेलन्सड' समाज वेवस्थेचें चित्रण ताच्या लेखनांत तशेंच वक्तव्यांतय येतालें. ताच्या ह्या विचारांचें पडबींब ताचेवांगडा आशिल्ल्या आमच्या सगळ्यांच्या वृत्तींत सांपडटा.

नागेशबाब म्हणल्यार विविध भासांतल्या सृजनशील साहित्याचें आनी ललीत साहित्याचें तशेंच अणकारीत साहित्याच्या पुस्तकांचें वाचनालय. एखाद्रें दुर्मिळ पुस्तक लेगीत तांच्या वाचनालयांत सांपडटलें. पुस्तकांची टापटीप ठेवणी आनी शिस्तबद्द मांडणी तोखणायेची. हरशीं म्हण नागेशबाब शिस्तीचे प्रीय. घरांत लेगीत सगळ्यो वस्ती जाग्यावेल्या जाग्यार दवरपाक ताका आवडटालें.

केन्ना केन्ना म्हाका ह्या लोकांचे बुदवंतकायेचें अजाप दिसता हांचें इतलें विपूल वाचन आनी मंथन कशें जालां आसतलें. शिक्षणाच्यो चड व्हडल्यो डिग्र्यो नासतनाय ताणी कोंकणी भायर आनीकूय हेर भाशांतलें वाचन केलां.

नागेशबाब म्हणल्यार एक एनसायक्लॉपिडीया आसली, एक

*(पान २१ चेर)*



# कोंकणीचे दोन दिपस्तंभ गेले

**प्रकाश दत्ताराम नायक**

कोवीड काळा सावन आयजवेर कोंकणी साहित्य आनी कोंकणी चळवळींतलीं कांय बुद्धिजिवी व्यक्तीमत्वां आमकां सोडून गेलीं. जातूंत लेखक आनी शणै गोंयबाब हांचे वंशज शांताराम वर्दे वालावलकार, कोंकणी कवितेक वेगळ्या पांवड्यार व्हरून दवरपी कवी रमेश वेळुस्कार, गोवा कोंकणी अकादेमीचे आदले अध्यक्ष प्रा. डॉ. सुरेश आमोणकार, कोंकणीचे खडेगांठ निश्ठावान कार्यकर्ते प्रा. नित्यानंद नायक, सांगे वाठारांतले कोंकणी साहित्यीक आनी कार्यकर्ते डॉ. रेवणसिद्ध नायक, कुडचडे वाठारांतले कोंकणी कार्यकर्ते राजेंद्र चि. नायक, सुनापरांताचे आदले संपादक अनंत साळकार, कोंकणी सरदार बस्ती वामन शणै, कोंकणी विश्वकोशाचे संपादक डॉ. तानाजी हळर्णकार, लोकप्रीय कवी आनी गीतकार डॉ. भिकाजी घाणेकार, कितलींशींच वर्सां बाल साहित्याचे 'मारुती' हें नेमाळें आनी 'मार्ग चळवळ चलोवपी गुरुनाथबाब केळेकार, कोंकणी साहित्याचो हिंदींत अणकार करपी डॉ. रोहिताश्व शर्मा, नामनेचे कवी प्रकाश पाडगांवकार, कवी श्रीधर कामत, कोंकणी कार्यकर्तो, नट आनी कवी भरत नायक, नामनेची कथाकार जयमाला दणायत, निश्णावंत कोंकणी कार्यकर्ते आनी चळवळींतले एक मार्गदर्शक नारायणभाऊ मावजो आनी स्वातंत्र्य सैनीक, मार्गदर्शक आनी बुजुर्ग अशे कवी नागेशबाब करमली आमकां सोडून गेल्यात.

कोंकणी चळवळीक आपलें तन, मन आनी धन अर्पण करपी अशीं दोन व्यक्तीमत्वां फेब्रुवारी म्हयन्याचे सुर्वेकूच म्हणल्यार ता. ०६-०२-२०२३ ह्या दिसा नारायणभाऊ - पिरायेच्या ८३व्या वर्सा जाल्यार ता. ०९-०२-२०२३ ह्या दिसा पिरायेच्या ९० व्या वर्सा नागेशबाब आमकां सोडून गेले. नारायण भाऊ परस नागेशबाब सात वर्सांनी व्हड पूण दोगूय म्हारूख. कोंकणीचे वड. हे वड गेल्ल्यान कोंकणीची सावळी खुबशा प्रमाणान अस्ताक गेल्या अशेंच म्हणचें पडटा. नारायणभाऊ आनी नागेशबाब हे आमकां ताठ मानेन जगपाक शिकोवपी. तेच जेन्ना संवसारांतल्यान अचकीत ना जातात तेन्ना कांय खीण आमच्या पांयांपोंदची माती सरकल्ल्याचो भास जालो. कोंकणी भास आनी कोंकणी भौस, कोंकणी साहित्य आनी कोंकणी समाज हांच्या पुनरुत्थाना खातीर ह्या दोगांनीय आपले पुराय जिणेंतले खिणान खीण दिलें अश्या ह्या दोगांकूय म्हजी नमळायेची आदरांजली.



नारायणभाऊ आपले पुराय जिणेंत एक कार्यकर्तो, खर कोंकणीभिमानी आनी एक मार्गदर्शक म्हणून वावुरलो जाल्यार नागेशबाब एक कवी, एक गजलकार, खर कोंकणीभिमानी आनी वेगवेगळ्या भार्शेतल्या साहित्याचो (चड करून कवितेचो) अभ्यासक म्हणून वावुरलो. नारायणभाऊ आनी नागेशबाब हांचे मदलो फरक म्हणल्यार, एकाद्री गजाल कोंकणीच्या विरोधांत वता अशें दिसल्या बरोबर नागेशबाब आपले लिखणेंतल्यान व्यक्त जातालो जाल्यार नारायणभाऊ पुरायेन अस्वस्थ जातालो. म्हणून तर कोंकणीचे हे दोन दीपस्तंभ आमच्या कायम यादींत उरतले.

ह्या दोगांयमदीं साम्य कितें तर दोगांकूय रात दीस कोंकणीचो हुस्को. दोगांय कडेन म्हजे खूब लार्गीचे संबंद. दोगूय आत्रा पयऱ्यान फोन करून म्हजी आनी म्हज्या परिवाराची आस्थेन खबर घेवपी.

**पयलो दिपस्तंभ : नारायणभाऊ मावजो**

नारायणभाऊ मावजो गेलो ही दुखेस्त खबर कळ्ळी आनी कितलोसोच वेळ हांव म्हाकाच सांडलो. कितें म्हणून कोण जाणा, नारायणभाऊ म्हाका आत्रा पयऱ्यान फोन करतालो आनी खबर घेतालो. रेखा बाय कशें आसा, आमचो गायक अक्षय आनी अंबर कसो आसा? अशी तांच्या उलोवपाची सुरवात. आनी मागीर वरांचीं वरां कोंकणीच्या संदर्भांत उलोवप. 'जाग' मासिकांत ऑगश्ट २०२० त आयिल्लो 'कोंकणी चळवळ : दुसरी बाजू' हो म्हजो लेख वाचून तांणीं म्हणिल्लें, 'तुवें कोंकणीच्या संबंदान मनोहर पर्रिकाराक उगतो केलो तें वाचून खूब आनंद जालो.' तांणीं फुडें सांगलें, 'ह्याच विशयाचेर आनी कोंकणीची मनोहर पर्रिकारान कशी वाट लायली ताचेर जर तूं पुस्तक बरयन तर हांव तें पुस्तक छापपाक जो खर्च येता तो दिवपाक तयार आसा.

म्हजे कसलेय कार्यावळीक मुजरत हाजेरी लावप हें तांकां आवडटालें. २०१५त 'कुतल्ल' ह्या म्हज्या कविता संग्रहाच्या पुस्तक प्रकाशनाक ते मुजरत आपली घरकान्न, मेवणी आनी साडू हांकां सांगाताक घेवन हाजीर राविल्ले. तांच्या रिणांत हांव आसा.

२२ डिसेंबर २०२२ ह्या दिसा म्हज्या 'मोडकूळ' आनी 'साग्रसंगीत' ह्या दोन पुस्तकांचें प्रकाशन जालें. ताचे दोन दीस आदीं

म्हाका कळयलां, 'जाली तयारी? हांव येतलो आं! जिवाक बरें ना, तरीय हांव येतलों!'

'नारायणभाऊ, तुमकां गाडी धाडूं?' - हांव

'नाका रे, हांव म्हजी गाडी घेवन येता!'

आनी २२ तारखेर तांचो फोन आयलो, 'प्रकाशबाब, हांव बरो ना, फकत कुडकुडो खावन येता. तेन्ना हांव पावचो ना. आनीक केन्नाय येता तुज्या घरा कडेन.

पूण म्हाका रावूंक जालें ना. हांव, म्हजी घरकान्न रेखा आनी म्हजो इश्ट महादेव नायक २६ डिसेंबराक तांच्या घरा गेलीं आनी म्हजी दोनूय पुस्तकां तांकां भेटयलीं. तांची घरकान्न हे गजालीची गवाय. पूण नारायणभाऊं वांगडची निमणी भेट ती आसतली अशें तेन्ना मात लेगीत चिंतूंक नासलें.

नारायणभाऊ रात दीस फकत कोंकणीचोच ध्यास आनी स्वास घेयत जगलो. नारायणभाऊ आमच्या खातीर आदर्श आसलो. तांच्या आदर्शाचेर फुडलो काळ काडप हीच तांकां खरी श्रद्धांजली थरतली. तांच्या फाटल्यान तें बळगें तांणीं आमकां दिवंचें ही प्रार्थना.

आमच्या दोगांच मदली आनीक एक गजाल हांगां म्हाका मुजरत बरोवंक जाय.

कोवीड काळांतले ते दीस आसले. सदचे प्रमाणे तांचो फोन आयलो. त्या दिसा खूब उलोवप जालें. म्हाका म्हणपाक लागलो, 'तुजे कडेन एक काम आसा.'

'सांग भाऊ' - हांव.

'हांव कितें सांगतलो आनी करतलो तें कोणाकूच कळपाक जायना. जायत तुजे कडेन?'

हांव मातसो भियेलो. 'सांग तरी भाऊ!'

आयजमेरेन ही गजाल हांवें कोणाकूच सांगूंक नासली वा हे गजाली विशीं केन्नाच कितें बरोवंक नासलें. कारण, नारायणभाऊन ती कोणायकडेन उक्तावपाक म्हाका मनाय केल्ली. आयज नारायणभाऊ आमचे मधीं नात. आनी म्हणून ती गजाल सगल्या वाचकां मेरेन पावची ह्या एकाच उद्देशान आयज ह्या लेखाच्या माध्यमांतल्यान हांव तांची माफी मागून ती गजाल हांगां उगती करता.

'कोवीडाचो काळ आशिल्ल्यान आमी फोंडयां एका हॉटेलांत मेळूया. तुवें पुंडलीक बाबाक घेवन थंय येवपाचो. म्हज्या वांगडा डॉ. पुर्णानंद च्यारी आसतलो. तुका जाय जाल्यार तुज्यान एकल्या कोणाकूय वांगडा घेवन येवं येता.'

आजून मेरेन म्हाकाय गजाल स्पश्ट जाय नासली. 'नारायणभाऊ, गजाल स्पश्ट करात न्हय!' - हांव.

'सांगतां. पुंडलीक नायक हो भौजन समाजांतलो शणै गोंयबाब. शणै गोंयबाबान जर आमकां कोंकणी विशीं जागृत केले आसत जाल्यार पुंडलीक नायकान भौजन समाजाक फकत जागृतूच केलो ना जाल्यार तांणें भौजन समाजाक कोंकणी कडेन हाडलो. अशा मनशाक कोवीडाच्या काळांत कितें तरी फूल थंय फुलाची पाकळी दिवप ही म्हजी हांव लागणूक समजता. तेन्ना ताका तयार करून हाडपाचें काम तुजें. कितें दितलो, हें तुज्या सयत कोणाकूच कळचेंना. उजव्या हातान दिल्लें दाव्या हाताक कळपाक जायना. तूं तारीख आनी सुवात थाराय!' नारायणभाऊ उलोवन गेल्लो खरो पूण पेंच मात वजें जावन म्हजे तकलेर दिवन गेल्लो.

नारायणभाऊ तुका कितें तरी दिवंक सोदता अशें जर हांवें पुंडलीक बाबांक सांगिल्लें जाल्यार, ती भेट पुंडलीकबाब केन्नाच स्विकारचो ना हाची म्हाका शंबर टक्के खात्री आसली. आनी म्हणून नारायणभाऊन सांगिल्ली गजाल हांवें पुंडलीक बाबाक स्पश्टपणान सांगलिना. नारायणभाऊ तुका मेळूंक सोदता, इतलेंच हांवें पुंडलीक बाबाक सांगलें. आनी... पुंडलीकबाब राजी जाल्लो.

तरी पूण कोवीडाचो तो काळ... नारायणभाऊन म्हजे कडेन ही गजाल उलोवन सुमार धा म्हयने गेल्ले. योग्य सुवात आनी योग्य वेळ मेळनासलो. लॉक डावनाचो काळ वाडटालो. दुयेंतींचो आंकडो वाडटालो. आनी मरणांचोंय बी. नारायणभाऊ, पुर्णा आनी हांव आपापले परीन योग्य सुवात आनी योग्य तारीख सोदीत आसले. पूण हॉटेल वा हेर योग्य सुवात मेळ्ळीच ना.

नारायण भाऊंचो परतून एकदां फोन आयलो. 'प्रकाशबाब, आनीक चड दीस काडप योग्य न्हय. ह्या कोवीडाच्या काळांत आयचो मनीस फाल्यां आसतलो म्हणपाची शाश्वती ना. तेन्ना हांव आनी पुर्णानंद एक दीस तुगेरूच येतात. तुज्याच घरा कडेन जावंदी सगलें.' हांवें हरकत घेवपाचो प्रस्नूच नासलो...

हांवें म्हज्या वळवयच्या मूळ घरा ही कार्यावळ थारायली. हांव, महादेव नायक, नारायणभाऊ, डॉ. पुर्णानंद च्यारी, पुंडलीकबाब आनी म्हजी घरकान्न रेखा हांचे भितर ही कार्यावळ जाली. नारायणभाऊन पुंडलीक बाबाक कितें दिलें तें आमकां अजुनूय खबर ना. पूण नारायण भाऊंच्या मुखा मळार जें समाधानाचें तेज त्या दिसा झळकतालें तें तेज आनी भावनावश जावन पुंडलीक बाबांच्या दोळ्यांतल्यान आपसूक देंवपी त्या दुकांचे फोटे आयजूय म्हज्या दोळ्यांनी आनी काळजांत घर करून उरल्यात. नारायणभाऊ गेलो खरो पूण तांचें यादींतले ते एकेक खीण कायम यादींत उरल्यांत.

**दुसरो दिपस्तंभ : नागेशबाब करमली**

फेब्रुवारी म्हयन्याचे ५ तारखेर येवपी नागेशबाबांच्या वाडदिसा निमतान दर वर्सा आमी एकठांय येताले. विवेक पिसुर्लेकार, भरत नायक, दामोदर घाणेकार, सुनील पालकार, हांव आनी कांय वेळार गौरीश वेर्णेकार आसतालेच. तांचो २०१८तलो ८५वो आनी २०१९तलो ८६वो वाडदीस आमी खूब मोट्या प्रमाणांत मनयल्लो. तांच्या ८६व्या वाडदिसा निमतान तांचेविशीं 'गोंयकार' ह्या नेमाळ्यांत म्हजो लेख छापून आयल्लो.

तांचो ९०वो वाडदीस मनोवपा खातीर आमी एकठांय येवपाचे आसले. पूण नागेशबाब खूब बरो ना म्हणपाचे कळ्ळें आनी ती कार्यावळ रद्द करची लागली. उपरांत फकत चार दिसां भितर ते आमकां सोडून गेले म्हणपाची खबर आयली.

नागेशबाबां वांगडा म्हजो १९७८ पासून सहवास. नागेशबाबान

गोंयचे सुटके उपरांत कोंकणी भास भौसाच्या जनमानसांत पावची म्हणून आनी तिचो प्रसार-प्रचार जावंचो म्हणून एक व्रत कशें स्विकारिल्लें. नागेशबाबान 'लळीतक' नांवाची एक कार्यावळ आंखिल्ली आनी तिचे प्रयोग दर एका गांवांत जावंचे हो तांचो हावेस आसलो. कथा, कविता, एकांकी, एकपात्री, विनोद अशा स्वरुपांतली ती कार्यावळ आसताली. हे कार्यावळींत ते स्वता, पुंडलीक नायक, हेमा नायक, रमेश वेळुस्कार, तानाजी हळर्णकार, भरत नायक, पुरुषोत्तम सिंगबाळ, दिगंबर सिंगबाळ, भिकू बोमी नायक आनी हेर कवी-लेखक वांटेकार जाताले. कोंकणीक बोटाक धरून तिच्या बाल्यावस्थेंतल्यान तिका वयर काडपाचें मोटें काम नागेश बाबान केल्लें. कोंकणी लेखकांक रात-दीस फकत कोंकणीचो ध्यास आनी स्वास घेवपाक शिकयलो तो नागेशबाबान. पणजे मळ्यांतली नागेशबाबांची भाड्याची कूड म्हणल्यार कोंकणी लेखकांचो Headquarter आसतालो. आयज जे लेखक नामनेक पावल्यात ताचे श्रेय नागेशबाब, मोहिनी वयनी आनी मळ्यांतले ते कुडीक वता.

नागेशबाब आनी म्हजी वळख खऱ्या अर्थान १९७९ वर्सा पयले खेपे आकाशवाणीचेर जाली. योगायोग म्हणल्यार ज्युस्त त्याच दिसा कवी आनी सुटकेझुजारी शंकर भांडारी हांचीय भेट जाली.

त्या दिसा म्हज्या कवितांचें आकाशवाणीचेर पयलेच खेपे रिकॉर्डींग आसलें. रिकॉर्डींग सकाळी ११ वरांचेर आशिल्ल्यान हांव सुमार साडे धा वरांचेर थंय पावलों. शंकरबाब भांडारी हांणी म्हज्यो कविता वाचल्यो आनी म्हाका सांगलें, कविता खूब बऱ्यो आसात. पूण तुजें रिकॉर्डींग सांजचें ३ वरांचेर जातलें. तूं जेवन बी यो.

हांव तर पयलेच खेपे पणजेंत पाविल्लो. पणजेंतलें कांयच खबर नासलें. आतां कितें करचें अशें चित्तनाच एका सुमार ४५शेक वर्सांच्या तरनाट्यान म्हाका हटकिलो. कितें काम आसलें? ताचो प्रस्न.

कवितांचें रिकॉर्डींग. पूण आतां जावंचेना खंय. सांजचो तिनांक आपयला म्हाका.

'पळोवंया कविता'.- तो तरनाटो.

हांवें म्हज्या कवितांचें गुठल ताचे सुवादीन केलें. तांणें त्यो कविता वेळ काडून चाळ्ळ्यो.

'तुज्यो कविता खूब बऱ्यो आसात. ताच्या उतरांनी म्हाका मांस चडलें.'

'खंयचो रे तूं?'

'वळवयचों.'

'वळवय खंयचो? पुंडलीक नायकाक वळखता?'

'हय.'

'तांणें बरयल्लें कितें वाचलां?'

'हय. रानसुंदरी! हांव दत्ताराम वळवयकाराचो पूत!'

'कोण गायक दत्ताराम रे?'

'हय.'

'तशें जाल्यार तूं आमचोच मरे! नागेश करमलीन विचारलां म्हणून सांग ताका.'

नागेशबाब आनी हांव हांचेमदीं थंयसावन सुरू जाल्लो हो प्रवास इतलो दाट जालो की नागेशबाबानूच म्हाका २०१४त फर्मायलें, 'तुज्या नव्या कविता संग्रहाक प्रस्तावना हांव बरयतलों.' आनी २०१५ वर्सा प्रकाशीत जाल्ल्या 'कुतल्ल' ह्या म्हज्या तिसऱ्या कवितासंग्रहाक तांणी एक सुंदर आनी म्हज्या कवितांचेर अभ्यासपूर्ण अशी प्रस्तावना बरोवन दिली. नागेशबाबा सारकिल्ल्या देशभक्त, सुटके झुंजारी, कवी, हजरजबाबी, तल्लख निवेदक, जाज्वल्य भाशाभिमानी, अभ्यासू, तरनाट्याक लेगीत हे पिरायेर लजेक घालपी (२ आनी ३ फेब्रुवारी २०१९ ह्या दोन दिसांक काणकोणां २४वें अखिल भारतीय कोंकणी साहित्य संमेलन जालें थंयूय हो 'तरनाटो' उक्तावणाक हाजीर रावलो) अश्या मनशान म्हज्या कविता संग्रहाक हक्कान मागून घेवन प्रस्तावना बरोवप हें हांव म्हजें भाग्य समजतां.

नागेशबाब म्हाका केन्ना केन्नाय आत्र्या पयऱ्यान फोन करतालो. चड करून म्हजे कवितेची वासपूस करपा खातीर.

नागेशबाब म्हाका सदांच आपणागेर आपयतालो. एक दीस वैनी हयात आसतना हांव आनी रेखा (म्हजी बायल) नागेशबाबागेर गेल्ली. नागेशबाबाल्या रायबंदरच्या घरांतले एके कुडींत बसूंक लेगीत मेळना इतलीं पुस्तकांची 'लायब्ररी'. नागेशबाबान उर्दू गजलांचें एकेक पुस्तक काडून म्हाका त्यो वाचून अर्थ सांगूंक लागलो. उपरांत आपल्या कोंकणी गजलांची चोपडी तांणें उगडली आनी नागेशबाब एका वेगळ्याच मुडांत आयलो, भारांत आयलो.

अचकीत वैनी उलयली आनी हो भार मंद जालो. जाणां प्रकाश, तुज्या नागेशबाबाक मरे कितेंच सारकें दवरूंक कळना. हीं पुस्तकां पळय मरे कशीं जळीमळीं शिंपडावन उडयल्यांत तीं.

अचकीत सगलें वातावरण शांत जालें. ती शांतताय नागेशबाबानूच चिरून उडयली. तो उलोवन गेलो. आनीक कितले दीस?

ह्या उतरांनी हांव हालल्लो. आयजूय - वैनी गेल्या उपरांतूय - तींच उतरां कानांर येवन आदळटात, काळजाक तोंपतात.

हांवें म्हणलें, 'नागेशबाब, आनीक खूब्ब दीस. निदान तुमकां शंबरी जायसर तरी. तीं पुस्तकां तशींच जळीमळीं उडयत रावात.' पूण नागेशबाब शंबरी हुंपूंक पावलोना. णव्वदी मेरेन पावलो हेंच आमकां खोस दिणें. नागेशबाब कोंकणीच्या मळार एक पोकळी निर्माण करून गेला. ती पोकळी भरून काडपाक आमकां दर एकल्याक पेंगट बांदून कोंकणीचें काम करचें पडटलें.

नागेशबाबांचो वावर खूब व्हडलो. एक स्वातंत्र्य सेनानी, एक कवी, एक गजलकार, एक मार्गदर्शक, एक जाज्वल्य कोंकणी मोगी अशीं तांच्या वावराची जायतीं तासां. तांच्या ह्या दर एका तासाचेर बरयतलो जाल्यार एकेक पुस्तक जातलें. लेखाक कांय मर्यादा आसतात. त्यो हुंपच्यो न्हय म्हणून हो लेख हांगांच सोंपयता. वेळ मेळटा तसो तांच्या दर एका तासाचेर एकेक वेगवेगळो लेख बरयन.

नागेशबाबांच्या एकूण वावराक सलाम आनी नमळायेन आदरांजली.

संपर्क : 8796843564

***

# लेखकांचो सांगात - एक आनंदाणभव

**नागेश करमली**

कांय दीस फाटीं म्हाका म्हजो एक पोरणो इश्ट मेळ्ळो. उलयतां उलयतां ताणे म्हाका एक प्रश्न केलो- 'ह्या दिसांनी तुजें कितें चल्लां?' हांवें जाप दिली- 'हांव लेखकां सांगाता आसतां.'

'लेखकां सांगाता? कोण लेखक रे बाबा?' इश्टान अजापूनशें विचारलें.

'एकच न्हय, जायते लेखक' हांवें म्हळें..

'अशे कोण पूण हे लेखक ? चार नांवां सांग.' इश्टान म्हाका फर्मायलें.

मुमुर्ख्यांनीच हांस-हांसत हांवें म्हळे, ''हें पळय, तुर्ताक हांव कृष्णचंदरच्या सांगातांत आसां. तांचे आदीं खूब वर्सांनी शरद्‌बाबूंचो सांगात लाबिल्लो. खलील जिब्रानच्या जाल्यार, येवन वचून ताच्या म्हन्यांतच आसा. लिओ टॉलस्टॉय, दोस्तोएवस्की हांचोय सांगात लाबता. फैज अहमद फैज हांचोय सांगात मेळटा. माक्झीम गोर्की, सोमरसॅट मॉम, अमृता प्रीतम हांचोय सांगात मेळटा.....''

दोळे मोट्टे करून इश्टान म्हळें, ''म्हाका शिंगां लायता, काय तूं घुंवला? आरे तुवें जीं नांवां घेतल्यांत तांतली एकलोय आज संवसारांत ना. आनी तांच्या सांगातांत तूं कसो आसूंक शकता, सांग.''

''हेंच तें. लेखकांच्या सांगातात आसपाक, प्रत्यक्ष लेखकच कुडी-बडीसयत तुज्या सांगाता वा तूं तांचे सांगाता आसपाकच जाय अशें ना. ह्या लेखकांनी जें साहित्य निर्माण करून दवरलां ताच्या सांगाता आसप, तें वाचप आनी समजून घेवप, तांच्या साहित्यांतलो आनंद अणभवप म्हळ्यारच हांव म्हण्टा तो लेखकाचो सांगात. एस. भैरप्पा सारक्या साहित्यकाराची साहित्यकृती जेन्ना हांव वाचतां तेन्ना तांतल्या उतरा उतरा कणकणी हांव भैरप्पा सांगाता आसतां. चड पयस कित्याक, रवींद्रबाबा केळेकार हांचो राबितो आनी म्हजो राबितो हो एकामेकांक परत परत भेटपाइतलो कांय लागीं ना. पूण म्हाका जाय तेन्ना, रवींद्रबाब पिरवोळा आसून लेगीत हांव चिंबलच्या म्हज्या घरांत रावनय तांच्या सांगाता आसतां. तांचें साहित्य म्हजे कडेन उलयता आनी हांव तांचे कडेन संवाद सादतां.' म्हजे स्पष्टीकरण आयकून, म्हज्या इश्टाक फुडें कितें उलोवचें तेंच कळना जालें. ताणे इतलेंच म्हळे, ''आं, बरी बाबा तुजी 'सांगाता'ची व्याख्या.''

जो लेखक थळा काळाची बंधनां तोडून जें साहित्य निर्माण करता तो संवसारांत आसूं वा नासूं, तो साहित्यरूपान सदांकाळ आमचे मदें आसता. खूब वर्सां आदीं म्हळ्यार पन्नाशेक वर्सां आदीं टॉलस्टॉयची 'वॉर ॲण्ड पीस' ही म्हाकादंबरी हांवें वाचिल्ली. म्हजी इंग्लीश तेन्ना आयचे इतली निवळूंक नाशिल्ली. शब्दकोश हाताकडेन दवरूनच वाचचें पडटालें. सुमार म्हयनोभर लागून, इल्ली इल्ली करून हांवें ती कादंबरी वाचून काडली. ती वाचतना ते कादंबरीत तुमकां शेकड्यांनी मनशां भेट्टात- तरेतरेच्या सभावाचीं, वर्तणुकेची आनी विंगडविंगड मानसिकतायेचीं. वाचतां वाचतां लेखकच त्या पात्रांच्या मुखांतल्यान वाचप्याकडेन संवाद सादूंक लागूता. 'वॉर ॲण्ड पीस' चे उप्रांत सुमार चाळीस वर्सांनी हांवें टॉलस्टॉयच्यो 'रिसरॅशन' आनी 'आना कारेनिना' ह्यो कादंबऱ्यो वाचल्यो. 'रिसरॅशन' कादंबरीचो नायक नेखलीदिएव. ह्या नायकाच्या रूपान टॉलस्टॉय जें जिणेचें तत्वगिनान आमचे मुखार दवरता तें समजून घेतां घेतां टॉलस्टॉय तुज्या अंतरंगांतच प्रवेश करता असो भास जाता. आनी टॉलस्टॉयचो तो सांगात केन्नाच सुटचोच न्हय अशें दिसूंक लागता. 'वॉर ॲण्ड पीस' कादंबरीवरवीं टॉलस्टॉय वेगवेगळ्या अनुभूतींचें विश्व आमचे मुखार उबें करता. पूण 'रिसरॅशनां'त तोच टॉलस्टॉय एका विशिष्ट अशा अणभवाकडेनच व्हरून आमकां थारायता. त्या अणभवाचो परिणाम तितले पुरतो. खिणयाळो नासता. तो खंयतरी आमच्या मनाचो एक कोनसो सदांखातीर आडोवन रावता. हाकाच हांव त्या लेखकाचो सांगात अशें म्हणटा.

साहित्यांत आयिल्लीं कांय व्यक्तिमत्वां नकळटना आमच्या मनांत घर करून रावतात. भैरप्पांची कादंबरी-गाजिल्ली कादंबरी 'पर्व' घेयात. ही कादंबरी वरवीं 'महाभारत' एक पुराणकथा न्हय पूण समकालिन कृती कशी आमचे मुखार येता. म्हाभारताचो एकच असो नायक वा नायिका ना. पुणून पर्व वाचतां वाचतां सगळे रथी-महारथी फाटभुंयेचेर वचून श्रीकृष्णाचें व्यक्तिमत्व अदीक प्रभावीपणान फुडें सरिल्लें दिसून येता. श्रीकृष्णाचें व्यक्तिमत्व भारतीय साहित्यांत वेगवेगळ्या साहित्यकारांनी, वेगवेगळ्या तरांनी रेखाटलां. पूण भैराप्पांनी, महाभारतांतल्या हेर व्यक्तिमत्वां सांगाताच श्रीकृष्णाकय घेवन, आपणाले फिशालयेन ताका खूब वेगळे तरेन आमचे मुखार उबो केला. चमत्कार प्रवृत्ती पासून पयस, तर्कबुद्धीचे कसवटेचेर उतरत आसा. हाका लागून भैरप्पा सारख्या लेखकाचो सांगात खूब म्हत्वाच तसोच अप्रूपाचो थारता.

धव्यार काळे करप आनी कितें तरी बरोवप हें खंयचेय कुवतीचो लेखक करूंक शकता. म्हयन्याक चार-चार, पांच-पांच रहस्यकथा बरोवपी लेखक आमी पळयल्यात. दिवाळी अंकांचो वेळ आयलो म्हण्टकीच, आसनमांडी घालून, भराभर पानांची पानां बरोवन त्या अंकांची भर करपी महाराष्ट्रांतले लेखक आमकां खबर आसात. पूण तांचे अस्तित्व जाणवता तें तितले पुरतेंच. ताचो काळ सरलो म्हण्टकीच वा ते पयलींय ते खंय तरी विसरायेच्या काळखांत धांपून पडटात. अव्वल साहित्य कृती निर्माण करपीच आमच्या काळजांत आपणाली सुवात निर्माण करता. आनी अशें अव्वल साहित्य निर्माण जावप हें तशी साधना आसलेबगर जायना. अशें सांगतात. खलील जिब्रानान आपणाली अमर साहित्य कृती 'प्रॉफिट' प्रसिद्ध करचे पयलीं उणे ते पंद्रा- सोळा खेपे ती निवळायली. कोलंबियाचो नोबेल पुरस्कार विजेतो लेखक गाब्रिएल गार्सिया मार्कीज हांची 'हंड्रेड इयर्स ऑफ सॉलिटूड' ही एक विश्वनामना पाविल्ली कादंबरी. ही कादंबरी बरोवपाची तयारी मार्कीज कितलीशींच वर्सां करताले. हे कादंबरीन, संवसारांत कादंबरी लेखनाचे आदल्या परंपरागत प्रकारांक छेद दिलो. मराठींतली रंगनाथ पठारे हांची 'ताम्रपट' वा हिंदीतली श्रीलाल शुक्ल हांची 'राग दरबारी' ही कादंबरी, मार्कीजाक जी वाट होलमली तेच वाटेच्या आधारान त्यो फूडें सरतात अशें म्हण्टात. साहित्याच्या मळार कसल्या तरी अप्रुपाची दिश्टावो हो खंयूय, खंयच्याय देशांत आनी कोणाकय जावं येता. रशियांत कम्युनिस्ट क्रांती जातकीच थंय क्रांतीकाऱ्यांची तुस्त करपी आनी क्रांतीपर्वाची व्हडवीक लोकांच्या मनार बिंबोवपी, कथा, कविता, कादंबरी अशें विपुल साहित्य निर्माण जालें. पूण अणभवाची खराय

*(पान ३० चेर)*



# नागेशबाब - कोंकणीचे म्हान फुडारी

**मुकेश थळी**

कोंकणी चळवळींत पणजे मळ्यांत एक केंद्र आशिल्लें. तें म्हळ्यार नागेशबाबाचें घर. नागेशबाबाची घरकात्र मोहिनीताई सगळ्यांक हांसत हांसत येवकार दिताली. थंय बसका बी जाताल्यो. पूत रामदास, धूव शैलजा (शैला) हीं म्हाका समकालीन.

भुरगेपणात नागेशबाब म्हाका चड मेळटाले ते प्रियोळा, रवीन्द्रबाबागेर. पंदरा दिसांनी एकदां तरी ते येताले. तें मुखेल केंद्र कोंकणी चळवळीचें. मुख्यालय कशें. थंय दिसाक एक दोन लेखक येतालेच. कोंकणीची गाडी मुखार कशी व्हरप, गियरां कशीं घालप हाची रणनिती थंय शिजताली. नागेशबाबाक पावोवपाक रवीन्द्रबाब म्हाका घेवन आंबुल्ल्यां खालचे देंवते कडेन येताले. नागेशबाबाक निरोप दिताले. एक दीस नागेशबाबान अकस्मात म्हळें - हो मुकेश, ताचे पिळगेंत कोंकणीचें प्रतिनिधीत्व करतलो आं. म्हाका बरें दिसलें. सगळोच अर्थ कळूंक ना. ते भविश्यवाणींत म्हाका कुरवेन शिटकायल्ली एक जापसालदारकी आशिल्ली.



नागेशबाब संवसाराक अंतरले ही बातमी आयली आनी शेंकड्यांनी यादींचो एक मोट्टो पट दोळ्यां मुखार सरकुपाक लागलो. कितलेशेच तांच्या सांगाताचे प्रसंग. कोंकणी चळवळींत नागेशबाबाचें कार्य खूब मोटें. शालेय पिराये सावन हांव ताचो साक्षीदार. गोंयची प्रादेशीक अस्मिता, गोंय, गोंयकारपण, ओपिनियन पोल, कोंकणीचे सगळे लडे आनी हालीं हालीं लेगीत हेर अन्याया आडच्या चळवळींनी नागेशबाबान पोटतिडकीन वांटो घेतलो. जागृताय केली. तांच्या सभावांत कायम एक चैतन्य सळसळटालें. हांसो आसतालो. केन्नाय भुरग्यां भशेन मोट्ट्यान हांसून विनोद करप हो तांचो सभाव.

नागेशबाबाक पुस्तकांचें पिशें. आपली भाशा, अस्मिता, संस्कृती आनी पुस्तकां हीं पिशीं रगतांतूच येवचीं पडटा. तांच्या घरांत राशींनी पुस्तकां. फोर (कवर) घाल्लीं, वेवस्थित हारशाच्या पारदर्शक आलमारींनी दाळिल्लीं, मांडिल्लीं. वाचिल्लीं. डायरेंत तांची पध्दतशीर सूची केल्ली.

कोंकणी पुस्तक तें कोणाचेंय जावं नागेशबाब विकतें घेताले. खंयचेंय नवें कोंकणी पुस्तक तांकां मेळ्ळेंना जाल्यार तांच्यांत एक अस्वस्थताय दिसताली. खंय मेळटलें रे तें, तांणी म्हाका आनी हेरांक विचारचें. उर्दू शायरी आनी हेर साहित्याचोय तांचो अभ्यास आशिल्लो. उर्दू काव्याचेर ते म्हजे कडेन मूड लागतकच उलयताले.

हिंदी, इंग्लीश श्रेश्ठ भारतीय अणकारीत साहित्य ग्रंथ त्या आलमारींत दिसताले. पुस्तकांक नागेशबाब सहसा कोणाकूय पातयेवपी न्हय. साहित्य अकादेमीच्या एका पुस्तिकेन निमाणें नोंद केल्ले - कोंकणी पुस्तकां पणजे गोंवा कोंकणी अकादमींत, मडगांवा कोंकणी भाशा मंडळांत आनी नागेश करमली, चिंबल हांचे कडेन मेळटात. नागेशबाब ही अशे तरेन एक संस्था आशिल्ली. तांचे अध्यापिकेचो मात्रांव अप्रतीम. सकाळीं थंय सूर्यकिरणां ८५ अंशांतल्यान नाटकांत लायटीचे स्पॉट घोळटात तशीं निस्तताली. चकाचक कूड. बसतल्याक निमाणें मेरेन आपूण कागदा कुडको उडोवन वा हेर तरेन ह्या रूमांत बुरगेपण बी करिना मूं अशें दिसचें. तांकां खबरी आवडटाल्यो. एकार एक माराण पेटचे तशे विविधांगी विशय. तांची खबरांची शैली जानोत, रूचीची, रंगोवन सांगपाची. वाचीक आनी आंगिक अभिनयान भरिल्ली. भारिल्ली. नागेशबाब सदांच पेटिल्लेच आसताले. प्रज्वलन Ignition तांच्यांत सळसळत आसतालें. सरभोंवतणच्या घडणुकां विशीं ते सचेत आनी सजग आसताले. शिट्टक आनी दक्ष. अन्यायकारक खंयूय खट्ट खुट्ट जालें रे जालें नागेशबाबान आवाज काडलोच. आंदोलन, चळवळ, निशेद करपाक ते सरळ रस्त्यार देंवताले. तरणाटे कशे असत्या आड तुटून पडटाले. नागेशबाब ही अशी एक शक्ती आशिल्ली. लायटीची प्रवाह आशिल्ली लायव वायर कशी. प्रेरक आनी उत्प्रेरक शक्ती. कोंकणी, आकाशवाणी आनी मुक्ती चळवळ अशा तीन पांवड्यार नागेशबाबांचें मोलादीक कार्य विखुरलां. तातूंत तांणी आपली छाप सोडल्या.

नागेशबाब आकाशवाणीचे ज्येष्ठ निवेदक. तांची स्वताची अशी कथनाची एक 'पेजादऽ शैली आशिल्ली. सदांच शुद्ध कोंकणीचो आग्रो. वृत्तनिवेदकाक लेगीत ते सांगताले - आरे, थिवी न्हय रे, थिए. म्हार्दोळ न्हय म्हाड्डोळा. उच्चार, व्याकरण, शुद्धलेखन सगळ्या मळांचो नागेशबाबाक अभ्यास आशिल्लो. शणै गोंयबाब साहित्य तांकां तोंडपाठ आशिल्लें. ह्या विशयाचेर हांव तांचे कडेन खूब खेपे उलयलां. कोंकणी पेपर, रेडीयो हीं माध्यमां नागेशबाबाक टरकून आसतालीं. मात्सो उच्चार वा उतर चुकलें रे चुकलें, तांचो फोन येतालो. तापार जाताले. बेजार, सेगीत हे सारकीं पोर्तुगीज उतरां तांकां आवडनाशिल्लीं. पावस सेगीत पडत आसा अशें म्हणचे सुवातेर पावस लागून पडत आसा अशें म्हणचें असो तांचो आग्रो. नीज वासाळ कोंकणीचो तांचो अभ्यास आशिल्लो.

खलिल जिब्रान नागेशबाबाचो आवडीचो कवी. समग्र जिब्रानाचे चिय्यासारके दाट पोटले कशे ग्रंथ तांणी कांय लेखक मित्रांक भेट दिले. आपणा भशेन सगळ्यांनी खूब वाचचें आनी तांकां संवसारीक साहित्याची खोलाय कळची हो ताचे फाटलो हेत. तळमळ. कितल्या

जाणांनी वाचले, कितल्यांनी गुड्ड्याक मारले कोण जाणा रे, अशें केन्नाय हांसत म्हाका म्हणटाले. तांचे कडेन अशी विनोद बुद्दी आशिल्ली. तांणी दिल्लो जिब्रान पोटलो एकल्यागेर आलमारींत घंयरूवांत रेवडायल्लो दिसलो हें मात तांकां सांगपाचें धाडस म्हाका जालेंना. जिब्रान काव्य नागेशबाबान निवृत्ती उपरांत कोंकणींत हाडलें. मोहन राकेशाचें नाटक तांणी कोंकणींत हाडलें. कोंकणी नाटकांचे सर्तींत ते कला अकादेमीत येतालेच. बारीकसाणेन पळेताले. एकाद्र्या पात्रा खातीर साश्टी कोंकणीचो वापर केला आनी ताचीं उतरां उच्चार चुकतात जाल्यार, तें निटायेर कशें घालूं येतालें, हें म्हाका थंय थेटरांतूच सांगताले. नागेशबाबाली कोंकणी भाशा चकचकीत शुद्ध. कोंकणी नाटकांचे सर्तींत सुरवातीच्या काळांत नागेशबाबालो सगळे तरेचो हातभार आसा. 'मनशाळी मोनजात' हें नाटक तांणी ज्यॉर्ज्य ऑर्वेल हांच्या 'एनिमल फार्म' ह्या गाजिल्ल्या नवलिकेचेर आदारीत कोंकणीत हाडलां. तें कला अकादमीच्या नाटकां सर्तींत सादर जालां.

प्रेमचंद, रवींद्रनाथ टागोर, कृष्ण चंदर, अमृत प्रितम, कारंथ, पुट्टप्पा, पिल्लै. सुनील गंगोपाध्याय, पोर्तुगीज कवी फेर्नांद पेस्सौ अशा कितल्याशाच साहित्यकारांची समग्र साहित्य संपदा नागेशबाबान बाळगिली. समग्र लोहिया धा बारा खंडांत आलमारींत दिसतालो. तांची बुद्धी कुशाग्र आशिल्ली. स्मरणशक्त लख्ख. चळवळींतले वेगवेगळे तपशील तांणी बरोवन दवरल्यात. डायऱ्यांचे संच आशिल्ले. बंदखणींतल्यो यादी, सुरवातीची कोंकणी चळवळ, सगळ्यो दिसपट्ट्यो राटावळी तातूंत नोंद केल्ल्यो आसताल्यो. बंदखणींतल्या यादींचेर नागेशबाबान डायऱ्यांच्या आदारान एक लेख बरयल्लो. तें वाचून आंगार कांटो आयलो. तेन्नाची स्थिती, गरिबी तातूंत वर्णन केल्ली.

कोंकणी चळवळींत लळीतक ही विविधांगी कार्यावळ आमी गांवागांवानी करताले. कोंकणी म्हूण स्वतंत्र भास आसा हें लोकांक पटोवपा खातीर. तातूंत कविता वाचन बी आसतालें. नागेशबाब आसतालेच. निवेदन करताले. नव्या तरनाट्यांक हेरून सोदून तांकां उर्बा प्रेरणा दिवन कोंकणी प्रवाहांत हाडटाले. तांकां धिटाय दिताले. माची दिताले.

नागेशबाबाक घरा मेळपाक वतालों तेन्ना वेगवेगळ्या विशयांचेर खबरी रंगताल्यो. तांचे मर्दी सळसळपी तो राश्ट्राभिमान, कायम अन्याया आड पेटतो रावप हे गूण आमकां प्रेरणा दिताले. बॅटरी बी चार्ज जाल्लेवरी, रिफ्रेश जाल्लेवरी दिसतालें. गोंय, कोंकणी खातीर नागेशबाबान आपली वाणी, लिखणी कायम झिजयली, झरयली. आंगभर रगत न्हय तर गट्स अभिसरीत जावपी हो झुजारी. सत्याची बाजू घेतना कोणाची भीड मुर्वत, पर्वा करपी न्हय. निर्भय.

पाटू पटेकार, राजाराम राटावळी ह्यो विनोदी उपहासात्मक श्रुतिका (सिरियल्स) नागेशबाबान रेडीयो खातीर बरयल्यो. फोडणी फोव ह्या आयतारच्या रातच्या वितरावपी कार्यावळींत त्यो घराघरांत पावल्यो आनी गाजल्यो. कारण तेन्ना टीव्ही नाशिल्ले. ह्या श्रुतिकांच्यो संहिता नागेशबाबांच्या फायलींत आसात. तांणी म्हाका एकदां दाखयल्ल्यो.

नागेशबाब कविता बरे कार्येगाद वाचताले. साभिनय सादरीकरण. 'सांवार', 'जोरगत', 'वंशकुळाचें देर्णे', 'थांग अथांग' हे तांचे गाजिल्ले कवितां झेले. तांचे कवितेंतली कोंकणी सुगंधाची शब्दकळा हांव आवडीन झेलतालों टिपतालों. सामाजिक अन्याय, विषमता, दांभिकता हांचे आड नागेशबाबांचे कवितेन आवाज उठयलो. खबरी मारतना नागेशबाबाली एक नाट्यमय शैली आशिल्ली. फोनाचेर उलयतनाय तशीच. उलयतना क्लायमॅक्साचेर आसतना अकस्मात सोंपयतना बरें रे, म्हणत संवाद कवळून टक्क करून फोन दवरपाची नागेशबाबाली शैली. श्रीकृष्णाचें एक वाक्य आसा - उलोवन जायना फुडें खिणांत निरोप घेयात, फाटल्यान घुंवन पळोवं नाकात... सदां क्रियाशील नागेशबाबान चटको लावन अकस्मात सगळ्यांचो असोच निरोप घेतलो...वंदन.

संपर्क : 9545827662

***

*(पान ३ वयल्यान)*

ताचो तसो म्हाका सांगात दोन वरसां लाबलो. 'पाटू पटेकार' आनी 'राजाराम राटावळी' ह्यो दोन विनोदी मालिका ताणे आकाशवाणी खातीर बरयल्यो. ताका तांत्रिक गजाली मात म्हणपा सारक्यो जम नाशिल्ल्यो. तेन्ना नारायण पत्की ताका पालव दितालो.

नागेशबाबाचें एक व्यसन म्हळ्यार पुस्तक खरेदी. वेगवेगळीं मासिकां वर्गणी भरून तीं मागोवप. ताच्या संग्रहात Indian Literature आनी 'समकालीन भारतीय साहित्य' ह्या जर्नलांचे अंक आसात. तेच प्रमाण 'सत्यकथा' ह्या म्हैनाळ्याचे अंक आसपाक जाय. 'गोमंतक बूक सर्विस' विनायक नायक चलयताले. तांच्या प्रदर्शनात तो प्रत्येक फावट कमीत कमी देड हजारांचीं पुस्तकां घेतालो. कोंकणी, हिंदी, मराठी, इंग्लीश आनी पुर्तुगेज भासांतल्या पुस्तकांनी ताचो 'मानसदिप' भरिल्लो. बी.ए. आनी एम.ए. जाल्ले आमचे कांय जाण इंग्लीश वाचपाक भयान फाटीं सरतात ताणी नागेशबाबाची देख घेवची. गाब्रिएल गार्सिया मार्केज; जुझे सारामाग समजुपाक थोडे कठीण आसुनूय ताणे ते लेखक वाचिल्ले. सारामाग मूळ पुर्तुगेजींत आनी ताचो इंग्लीश अणकारूय. ते भायर लिपी सबंदान ताणे जायतो अभ्यास केल्लो.

ताची घरकान्न मोहिनी हिणे ताका बेस बरो सांगात दिलो. तिची याद म्हूण तिच्या नांवार पुरस्कार सुरू केलो.

नागेशबाब, बाकीबाब, पंडित, मनोहरराय आनी भांगी, रामाणी हांची पिळगी आनी उदय भेंब्रे, हरदत्त खांडेपारकार, जेस फेर्नांदीश हे पिळगेमदलो एक दुवो. ताच्या मरणान तो तुटलो. ताची बरीच बरपावळ संग्रहाच्या रुपान येवपाची गरज आसा. कोण तरी ह्या वावराक माथें मारतलो अशी आस्त पर्गटांवया.

*यागांत हांगा राबून राबून*
*फुडले गडे आतां येवंचे जाल्ल्यात*
*सगळो शीण पयस करून*
*तुजे म्हजे सूर आतां लागचे जाल्यात.*

नागेशबाब करमलीक हो epitaph सोबून दिसता.

संपर्कः 9420222876

***



# जराशास्त्र - वृद्धोपनिषद

**डॉ. सोबिता किर्तनी**

-१-

जाण्टीं पडचीं न्ही म्हूण घरांत कांय बदल गरजेचे आसतात देखीक न्हातनां निसरचें न्ही म्हूण मान्यान घालपाक रब्बरचीं पांयपुसणीं येता वा शोभेक जमनीर आडमेळीं दवरूंक फावना.

जाण्टेपणांत जावपी दुयेसां चड खर आनी असमर्थ करपीं आसतात. जडार पडिल्लीं दुयेसां आनी राखीव शक्ती उणी जाल्ल्यान एखादें ल्हानशें दुखणें लेगीत चडार पडूंक शकता.

डायबेटीस, हायपरटॅन्शन, काळजाची दुयेंसां, कॅन्सर आनी आर्थरायटीस सारकीं दुयेसां हीं जाण्टेपणान जातात.

आर्थरायटीस जाल्ल्या लोकांची हालचाल करपाची क्षमता खूब उणी जाता आनी आंगाची दूख खूब चड वाडटा. सांदे दूख हे एक degenerative दुयेंस. आंगाचे सांदे - चड करून वजन पडपी वा घेवपी सांदे देखीक भेंड वा धोंपरां खूब चड दुखतात. ऑस्टोआर्थरायटीस आनी हुमाटोयड आर्थरायटीस हे दोन प्रकार जाण्ट्यांक सरसकट जाता.

सांद्याची सूज आनी दूख उणी करपी वखदां, व्यायाम, गरम वा थंड शेक, विश्रांती वा विसव घेवप आनी सांदे बदलप हे कांय उपाय.

स्वास्थ्य आनी दुयेसां हांचेर आंगाची हालचाल, खाण, आनी जिणे पध्दत हांचो परिणाम जाता. तरणेपणा साकून भलायकेक बरी अशी जिणे पध्दत आपणायली जाल्यार म्हातारपणांत लेगीत आंग घोळटें उरपाची शक्यता वाडटा. तरी तरणे पिरायेचेर जाण्टेपणांत जावपी दुयेसां आनी अक्षमताची शक्यताय उणी दिशिल्ल्यान तरणे पिरायेर लोक आपली काळजी घेताच अशें ना. चडशे फावटी मात एखादें दुयेंस जातकीच वा आंग दुखूंक लागतकीच लोक आपले भलायकेची काळजी घेवंक लागतात. जाण्टेपणांत व्यायाम आनी बरो आहार गरजेचो जाल्ल्यान जाण्टेपणांत लेगीत सुरू केल्ल्या व्यायामाचो फायदो जाता.



म्हातारपणान मेंदू degenerate जाता. हाचे खातीर विचार आनी कल्पना शक्ती खालावता तशेंच वागणूकेंतय बदल घडटा. हो बदल घडिल्ल्यान दिसपट्टो वावर करप कठीण जाता. हाका डिमेन्शीया म्हणटात. डिमेन्शीयाचे जायते प्रकार आसात.

हातूंतले दोन प्रकार चड प्रमाणांत म्हाताऱ्यांक जाल्ले दिसतात. ते म्हळ्यार अल्झायमर्स डिजीज आनी पार्किनसन्स डिजीज.

अल्झायमर्स डिजीज जाल्ल्यांक विसर पडटा, विचारशक्ती खालावता, जाण उणी जाता आनी आपले आंगावेलो ताबो उणो जाता. विसर पडप आनी नवी म्हायती लक्षांत येवप ना वा याद उरप ना ह्यो दोन अल्झायमर्स डिजीज जाल्ल्याचीं चिन्नां. सुरवातेची हीं चिन्नां जाण्टेपणाचीं लक्षणां अशें लेखून आडनदार करप जातात. मात फुडें फुडें हे बदल खर जातात. तिडकप, हुस्को जावप, अस्वस्थ जावप, निर्शेवप, भ्रम जावप, विचारांत घुस्पागोंदोळ जावप आनी बेटेंच हेवटेन तेवटेन भोंवप हें सगळे विचारांत आनी वागपांत घडिल्ले बदल. फाटल्यो यादी, निर्णय घेवपाची क्षमता, मोख, दिशा आनी उलोवप सगळेंच खालावता. आपलीं दिसपट्टी कामां करपांत आडमेळीं येतात. शिकिल्लीं जोडिल्लीं कला-कुशळताय तेच पध्दतीन शेणटात. हें दुयेंस चडार पडटा तशें भाशा उलोवपाक वा समजुपाक कठीण जाता, घरच्यांक लेगीत वळखूंक येना, आदाराशिवाय खावंक-पिवंक जायना, चलपाक जमना, नैसर्गीक विधीचो ताबो वता. बसूंक नज जाता आनी जेवण गिळूंक लेगीत जमना.

अल्झायमर्स हें दुयेंस बडीचें जावन आसा. जरी हें दुयेंस उपचार करून निवळपाचें न्ही आसलें तरी वखद, पौश्टीक जेवण, व्यायाम, लोकांकडेन संपर्क आनी बिहॅवियरल थेरेपी (वागपांत बदल घडोवन हाडपाक केल्लो उपचार) हांचो फायदो जावन जायते प्रमाणान हें दुयेंस आटापाक हाडूंक जमता. सुरवातीकच लक्षांत आयल्यार यादी

*

**जराशास्त्र म्हळ्यार जाण्टे पिरायेचें शास्त्र. इंग्लिशींत ताका Gerontology अशें म्हणटात. ह्या विशयाचेर संशोधनपूर्ण प्रबंध बरोवन लेखिकेन डॉक्टरेट संपादन केल्या. प्रस्तूत लेखमाळेंत जाण्टेपणाच्या वेग-वेगळ्या तांचेर अभ्यासपूर्ण लेख आसपावल्यात.**

**डॉ. सोबिता किर्तनी ही पार्वतीबाय चौगुले कॉलेजींत मानसशास्त्राची सहायक प्राध्यापक आसात.**

घट करूंक प्रशिक्षण दिवंक येता.

पार्किनसन्स डिजीज जाल्ल्या लोकांक थरथरो येता, आंग आंखूडटा, हालचाल सवका जाता आनी अस्थीर जाता. डॉपामाइन नांवाचे न्युरोट्रांसमीटर मेंदूत कमी जाल्ल्यान हें दुयेंस जाता. तेन्ना डॉपामाईन वाडोवपी वखदांनी पार्किन्सन्स डिजीजाची लक्षणां उणी जातात.

निर्शेणी दोन तरांची आसता. निर्शेणी ही तात्पुरती स्थिती आसूंक येता. अशी स्थिती  मन खंती, दुखेस्त जाल्यार येता. मनाक लार्गीचो असो कोणय पिड्ड्यार जाल्यार वा अकस्मात जिणे पद्धतींत बदल घडलो जाल्यार निर्शेणी येवं येता. कांय तेंप दुख्ख, शोक करून जाताकच मनीस तांतल्यान भायर सरून परत एक फावट आपली जीण पयलीं वरी सारता. पूण निर्शेणी ही स्थिती नासून दुयेंस जाता तेन्ना मात ती अदीक काळ उरता. जायते खेपो जिणेंत वायट कांयच घडनासतना लेगीत मनीस ह्या दुयेंसा खातीर दुख्खी जाता. वखद आनी थॅरेपी घेतल्या शिवाय ह्या दुयेंसांतल्यान निवळप कठीण. म्हातारपणांत जावपी निर्शेणी जायते खेपो पारखीनासतना उरता. जायतीं जाण्टीं खंती, किरकिरी, निर्शेल्लीं जाता जाल्ल्यान जाण्टेपणांत जाल्लें हें दुयेंस जाण्टेपणांचीच चित्रां जाल्लेवरी आडनदार जाता. मात ह्या दुयेंसाक लागून फकत मनांत खंत नासून, मनशाची भूक उणी जाता, विचार नकारात्मक जातात, विचार क्षमता खालावता, न्हीद हालता आनी वागपांत जायतो बदल घडटा. घरच्यांचो  आनी इश्टांचो आदार मेळत जाल्यार ह्या निर्शेणीतल्यान मनीस निवळपाक शकता.

अल्झायमर्स डिजीज आनी पार्किन्सन्स डिजीज फाटल्यान परतूं नजो अशी दुयेसांनी जाल्ली निर्शेणी मात निवळावंक येवं येता.

हॅल्पएज इंडियाच्या म्हायती प्रमाण २०१९ वर्सा भारतांत १३९० लाख भारतीय लोक साठी हुंपिल्ले आशिल्ले म्हणजे धा टक्क्यां वयर भारतीय लोक जाण्टे. २०५० वर्सा मेरेन १९.५% लोक जाण्टे आसतले. म्हणजेच दर पांच मनशांतलो एक मनीस जाण्टो आसतलो.

ओम प्रकाश आनी प्रेरणा कुक्रेती (२०१२) हांच्या संशोधनांतल्यान कळटा की डिमॅन्शीया आनी डिप्रॅशन (निर्शेणी) हीं दोन मानसीक दुयेंसां व्हडा प्रमाणान जाण्ट्यां लोकांत दिसतात. हुस्को, सोरो आनी घुंवळीं वखदांचेर आदारून जगप, घुस्पागोंदोळ आनी सायकोसीस हीं हेर मानसीक दुयेसां जाणट्या लोकांक जातात.

सायकोसीस ही एक विकृत वा विपरात (abnormal) मानसीक स्थिती जातून वस्तुस्थिती कडेन संबंद खालावता. समज, विचार आनी कल्पना शक्ती, आनी भावना ह्या प्रक्रियेंत इबाड जाता आनी हाचो परिणाम वागपांत दिसून येता. डॅल्युजन आनी हॅल्यूसिनेशन (भास) आनी विघटीत वा गोंदळिल्ली वा अवेवस्थीत वाचा (disorganized speech)

*(पान १५ चेर)*



# संघर्श

## अरविंद पांडुरंग भाटीकार

(अरविंदबाब भाटीकार हांच्या 'संघर्श' हे नव्या कादंबरीचो एक वांटो. – संपादक)

"दोतोर, हें तुमचें ऑफीस! सोऱ्याच्या बारांत बसून कित्याय कितेंय बेजबाबदारपणान उलयतात तशें हांगा उलोवंक जायना. ही सादी गजाल ह्या लोकांक समजना जाल्यार म्हाका हांगा बसपाचें ना. हांव वतां." एडव्होकेट मंगेश फोंडेकाराक तावातावान सांगून उषा वचूंक उठलें.

"राव गो, बस मात्शें! रागार जावन गेल्यार कामां जावंचीं नात." एड्व्होकेट फोंडेकारान उषाक मात्शें थंडावपाचो प्रयत्न केलो.

"मात्शें सांबाळून घेयात रे! कित्याय कितें उलोवं नाकात!" एड्व्होकेट फोंडेकारान आर्किटॅक्ट प्रियोळकार आनी नारायणाकूय बी मात्शें सादूर केलें.

"दोतोर, हें वांटणेचें काम हातांत घे म्हूण तुमी म्हाका सांगलां. म्हाका हें दियात म्हूण हांवें कोणा कडेनूच मागूंक येवंक नाशिल्लों. म्हजे कडेन आसात तीं कामां करता म्हणसर म्हाका स्वास घेवंक लेगीत वेळ मेळना. तुमच्या उतराक मान दिवन हें कटकटीचें काम हांवें हातांत घेतलां. हें जर अशें रेश्पेत नासतना म्हजे विशीं उलोवंक लागलें जाल्यार म्हाका हें काम सोडून वच्चें पडटलें." आर्किटॅक्ट रामनाथ प्रियोळकरान उषाच्या वागण्या आड तावातावान एडव्होकेट फोंडेकाराकडेन आपणालो निशेध उक्तायलो.

"जांव रे, असल्या विशयांनी एकामेकांचेर तापप, राग येवप, एकामेकांचेर तिडप यो गजाली सदांच आसतात. आमी दोगांयनीय मेळून भाटां-बेसांचे वांटणेचे खूबशे विशय हाताळ्यात, तकली थंड दवरून काम फुडें व्हरूंक जाय. तूं विशय समजावन सांगतालो. फुडें सांग." दोतोरान आर्किटॅक्ट प्रियोळकाराक शांत केलो.

"हांव सांगतालों तें अशें: हीं कुडका - सांतानचीं भाटां नायक कुटुंबाच्या वांगड्यां भितर कशीं वांटून घालचीं हें कोर्टान सांगला. या भाटांचो वट्ट आंवाठ पांचेक लाख स्केअर मिटर आसा. तांतूतले चारेक लाख स्केअर मिटर तीन भावांक आनी एक लाख सुमार चार भयणींक पडटात. खंयचो कुडको, खंयच्या भावाक वा खंयचे भयणीक पडपाचो हें आमी सोर्ती काडून थारावपाचें! ह्यो सोर्ती काडपाक खंय आयची ही मिटिंग. हांव विशय समजावन सांगतां आसतना मदींच हें उषा उलोवंक लागलें आनी चारूय भयणींक फकत एकूच लाख स्केअर मिटर काय म्हणून विचारूंक लागलें. "तुका हांगा कोणें शिकोवन धाडलां" अशें हांवें विचारतकूच तें तापून उठलें आनी कित्या कितेंय उलयलें तें तुमकां खबर आसा. हांवें तो प्रस्न ताका इतल्याच कारणा खातीर विचारिल्लो. ज्या मनशान हो प्रस्न ताका विचारपाक लायिल्लो ताणें वांटणे फाटलो इतिहासूय बी ताका सांगपाक जाय आशिल्लो." आर्किटॅक्ट प्रियोळकरान आपणें कायंच चूक करूंक ना अशें दाखोवपाचो यत्न केलो.

"हांव तोच प्रस्न आतां परतून विचारतां चार भयणीक एक लाख स्केअर मिटर आनी तीन भावांक चार लाख स्केअर मिटर कित्याक?" उषान आर्किटॅक्ट प्रियोळकाराक विचारलें.

"तुका हेर भयणींचें कित्याक लागता? तूं तुजें पळय! तुका नांणी पावर ऑफ ॲटॉर्नी दिल्या?" नारायणान विचारलें. नारायण हो उषाचो व्हडलो भाव. दोगांयचेंय एकामेकां कडेन सामकें पटनाशिल्लें.

"आज लक्ष्मीकांत हे मिटिंगेक येवंक ना. तांणें तुका पावर ऑफ ॲटॉर्नी दिल्या?" उषान नारायणाक परतो प्रस्न विचारलो.

"त्यो पावर ऑफ ॲटॉर्नीच्यो गजाली सोडात!" दोतोर फोंडेकारान नारायणाक आनी उषाक उपदेश केलो आनी आर्किटॅक्ट प्रियोळकाराक उषाच्या प्रस्नाची जाप दी म्हणून सांगलें.

"विष्णूबाब नायकान वागातोर, बागा, कळंगूट, हणजुणें ह्या वाठारांत आशिल्ले दर्यादिगे वेलीं भाटां नारायणाक आनी लक्ष्मीकांताक गिफ्ट म्हणून दिल्लीं. व्हडल्या भावाक, रामचंद्राक, विष्णूबावान खंयचींच भाटां गिफ्ट दिलीं नात. कुडकाच्या पांच लाख स्केअर मिटरांतलीं सुमार अडेज लाख स्केअर मिटरांचीं भाटां विष्णूबाबाच्या व्हडल्या भयणीन रामचंद्राक गिफ्ट केल्लीं. मागीर नारायण, लक्ष्मीकांत आनी रामभाऊ हांणी एकठांय जावन रामचंद्राक मेळिल्लीं कुडकाचीं भाटां आनी नारायण आनी लक्ष्मीकांताक मेळिल्लीं बार्देज दर्यादिगे वेलीं भाटां एकीकडेन करून भाटांचे तीन वांटे केले आनी आपणां भितर वांटून घेतले. देखून भावांक चड मेळटा आनी भयणांक उणें." प्रियोळकारान वांटणेचो इतिहास सांगतकूच उषाची प्रतिक्रिया आयकुपाक तो उषा कडेन पळयत वग्गी रावलो.

"कुडका - सांतान वाठारांतलीं हीं भाटां खंयशीं आसात?" उषान प्रियोळकाराक विचारलें.

"भयणीं भितर वांटून घालपाचे ते कुडके सांतानच्या भितरल्या रस्त्या कडेन आसात आनी भावां मदीं वांटून दिवपाचे व्हड कुडके राष्ट्रीय म्हामार्गाचे वटेन आसात!" प्रियोळकरान म्हायती दिली.

"भयणीं भितर वांटपाचे कुडके ते सगले राष्ट्रीय महामार्गाच्या कुशीन कित्याक नात?" उषान विचारलें.

"भावां भितर वाटपाचे कुडके खूब व्हडले, देखून जंय सपाट जमनी मेळटात थंय व्हडले कुडके घाल्यात आनी भितरले वाटेन उरिल्ली जमीन ल्हान - ल्हान कुडक्यांनी भागून भयणींक दिल्या." आर्किटॅक्ट प्रियोळकारान नकाशाचेर लायनी ओडून वांटणी केल्ली ती उषाक दाखयली.

'सपाट जमनी आसात थंय भयणींक कित्याक दिवपाक मेळना?" उषान आर्किटॅक्ट प्रियोळकाराक विचारलें.

प्रियोळकर मात्सो गडबडिल्ले भशेन जालो. तो नारायणा कडेन पळोवंक लागलो.

"दोतोर, दर गजालीक हेंच कित्याक, तेंच कित्याक अशें विचारीत रावलीं जाल्यार आमचें काम केन्नाच सोंपचें ना. ही वांटणी करपाक

आमी तुमकां विनंती केल्या आनी तुमी आर्किटॅक्टाक विनंती केल्या. म्हण्टकूच हें काम आमी तुमचेर सोडूंक जाय आनी तुमी सांगतात तें आयकूंक जाय." नारायणान तावातावान दोतोराक आपणालें मत सांगलें.

"दोतोर, विष्णूबाब नायकाली धूव आनी ह्या सगल्या भाटांची एक वारसदार म्हूण म्हाका काय गरजेची म्हायती जाणा जावन घेवपाचो हक्क आसा काय ना?" उषान दोतोर फोंडेकाराक विचारलें.

"ना कित्याक? विष्णूबाब नायकाच्या कुटुंबांतल्या सगल्या वारसदारांक तो हक्क आसूंक जाय. तुवें विचारल्यात त्या सगल्या प्रस्नांच्यो जापो रामनाथान वा हांवें दिवंच्योच पडटल्यो." एड्व्होकेट फोंडेकारान उषाक कायद्याची म्हायती दिली.

"बार्देस दर्यादेगेर आशिल्लीं कांय भाटां बाबान नारायणाक आनी लक्ष्मीकांताक गिफ्ट दिल्यांत अशें म्हूण आर्किटॅक्ट सांगतालो. त्या गिफ्टां बद्दल आमकां भयणांक कायंच खबर ना कशें?" उषान फोंडेकाराक विचारलें.

"कायदो आसा तो असो. जाण्टेल्यां कडल्यान आयिल्लीं भाटां बापायन आनी आवयन जाय त्या भुरग्यांक गिफ्ट करूंक जातात. पूण आपणा कडेन आशिल्ल्या भाटांतलीं फकत अर्दीं भाटां गिफ्ट करूंक जातात. उरिल्ल्या अर्द्या भाटांचेर सगल्या भुरग्यांचो हक्क आसता, खेरीज सगल्या भुरग्यांची संमती घेतल्या बगर तांच्यातल्या कांय भुरग्यांक भाटां गिफ्ट करूंक मेळनात." फोंडेकारान कायदो सांगलो.

"हीं भाटा केन्ना गिफ्ट केल्लीं?" उषान फोंडेकाराक विचारलें.

"म्हाका ते दोकुमेंत पळोवंचे पडटले! पूण चड वर्सां जावंक नात. आठ-णव वर्सां जालीं आसत!" फोंडेकारान म्हायती दिली.

"दोतोर, गिफ्ट केल्यांत तीं आनीक भयणींक आनी भावांक वांटून घालपाचीं केल्यांत तीं भाटां म्हाका पळोवंक मेळत?" उषान फोंडेकाराक विचारलें.

"बरे भशेन. तुका तीं व्हरून दाखय म्हणून हांव कृष्णा पैक सांगतां." फोंडेकारान उषाक सांगलें.

"आज सोर्त काडपाचें काम जावंचें ना तर! कारण भाटां पळोवपाचें काम सोर्त काडपाचे पयलींच जावंक जाय." फोंडेकारा कडेन पळयत प्रियोळकारान आपणालें मत सांगलें.

"सारकें! सोर्ती काडपाचें काम आमकां फुडें धुकलचें पडटलें. आयची मिटिंग आतांच सोंपोवया!" - फोंडेकार

मिटिंग सोंपली म्हण्टकूच उषा उठून दोतोराक आनी रामभाऊक 'गूड नायट' म्हणून भायर सरलें. फोंडेकाराच्या पयल्या माळ्यार आशिल्ल्या ऑफिसांतल्यान लाकडाच्या अशीर सोंपणां वयल्यान देंवतना उषाच्या बुटांचो आवाज आयकत सगले वोग्गी रावले.

"रामभाऊ, तूं सबंद वेळ वोग्गी बसून आसा! कित्याक उलयलो ना?" नारायणान रामभाऊक विचारलें.

"आरे, हांव आनी कितें उलयतलों? दोतोर फोंडेकार आनी आर्किटॅक्ट प्रियोळकार करतात तें आमीच तांकां विनंती केल्ल्यान करतात. ते करतात तें म्हाका मान्य. पूण एक गजाल आमी सगल्यांनी जाणां जावंक जाय. उषा हुशार आनी शिटूक. ताणें विचारिल्ल्या प्रस्नांक आमी सारक्यो, सत्य जापो दिवंक जाय. भयणींकूय बी ह्या भाटां बेंसांचेर हक्क आसा हें आमी ध्यानांत दवरूंक जाय. दोतोर तुमकां कितें दिसता?" - रामचंद्रान फोंडेकाराक विचारलें.

"उषा हुशार आनी शिटूक म्हणटात ती गजाल खरी. ताच्यांत वीज आसा. ताका नाका आशिल्ल्या वस्तूंक उजो लावन गोबोर करून उडोवपाची शक्त यत आसा. तें म्हजी धूव आशिल्ली जाल्यार हांव ताका वकील करतलों आशिल्लों. सुप्रिम कोर्टा मेरेन पावपाची ताची तांक आसा!" - फोंडेकारान आपले मत सांगलें.

"तुमी ताका बेठेंच चड चडोवन दवरलां. आमची भयण म्हणून आमचे सोयरे आनी शेजारी ताचे कडेन बरे करून चलतात. तें एम्. ए. करता म्हणून कितें व्हडली गजाल? आज काल कोणूय शिकतात आनी पास जातात. व्हडलीशी बुद्द लागना!" नारायणान उषा विशीं आपलें मत उक्तायलें. एस्. एस्. सीं. त दोन फावटी नापास जातकूच नारायणाक शिक्षण सोडचें पडिल्लें आनी आतां तो राजकारणाचे शिमेर भोवंडी मारतालो.

रामभाऊ उठलो आनी कांयंच उलय नासतनां सगल्यांक 'गूड नायट' म्हणून भायर सरलो. दुसऱ्या दिसा सांजवेळच्या साडेपांच वरांचेर मांडवी हॉटेलांत मेळपाचें थारावन नारायण आनी आर्किटेक्ट प्रियोळकार भायर सरून आप आपले वाटेन गेले.

संपर्क: 9422058651

***

*(पान १३ वयल्यान)*

हीं सायकोसीसाची लक्षणां.

हिंदुस्तान टायम्स ह्या दिसाळ्यांत २०२२ वर्सा ज्योती शेलार हांणी बरयिल्ले लेखा प्रमाण दी लॅन्सेट पब्लीक हॅल्थ ह्या जर्नलांत ग्लोबल बर्डन ऑफ डिजीज ह्या संघटणेन संवसारभरच्यान एकठांय केल्ली म्हायतीचो नियाळ छापिल्लो. त्या प्रमाण २०५० वर्सा मेरेन भारतांत ११० लोकांक डिमेंन्शीया जाल्लें आसतलें. ही संघटणा संवसार भर वेग-वेगळे संशोधक आनी संशोधकी संस्था कडच्यान वेग-वेगळ्या दुयेसांची म्हायती एकठांय करून तांचो नियाळ करता.

अल्झायमर्स ऍन्ड रिलेटेड डिजोर्डर्स सोसायटी ऑफ इंडिया ह्या संस्थेच्या नियाळा प्रमाण भारतांत जवळ-जवळ ५१ लाख जाण्टे लोकांक डिमेन्शीया जाल्ले आसा.

मुंबयच्या कोकिलाबेन धिरूभाई अंबानी हॉस्पीटलाच्या डिमेन्शीया क्लिनीकाची मुखेली डॉ. अन्नू अगरवाल हांचे प्रमाण डिमेन्शीया जावपाक बारा कारणां (risk factors) आसात, ती म्हळ्यार कमी शिक्षण, वाडिल्लो रगता दाब, कानाचो इबाड (hearing impairment) सिगार ओडप, चाळीशी हुपलें उपरांत आयिल्ली मोठसाण, निर्शेणी, शारिरीक वावर करनासप, गोडेमूत, लोकां कडेन संपर्क नासप, खूब सोरो पिवप, तकलेक मार बसप आनी हवेंतले प्रदूशण हे सगळे घटक आटापांत हाडले जाल्यार डिमेन्शीयाचे प्रमाण कमी जातले अशें डॉ. अगरवाल म्हणटा.

**(चलता)**

संपर्क: 9881527581

***

# कविता



## नागेश बाब गेल्याउपरांत

**नंदकुमार कामत**

अथांगाचो थांग
येवंक गेला तो आतां

तो आशिल्लो आमच्या
कोंकणी
वंशकुळाचें देणें

तेच्या प्रतिभेची जोरगत
सामको सांवार हाडटाली

असो एकूय तरणाटो
नासतलो जेंका
तेजी धग लागुन
तेंच्या भितल्ले इंगळे
पेटूंक नात
आनिक
भार आयिल्लेवरी
ते कोंकणी म्हणून
नाचूंक नात

तो किटीचेर किटी
पेटयत गेलो
पळयत गेलो
कोंकणीच्या कवळ्या
रोपाचो मळबायेदो
म्हारूख जाल्लो

ताका वरसांनी
जाण्टेपण हाडूंक ना
वरसांच जाण्टीं
जालीं आनिक
नागेशबाब पुस्तकांच्या
सांगातान
दरेक उतराचेर मोग करीत
आपलो देस
आपली भास
होच आपलो
स्वास
म्हणत रावलो
आनिक ताज्या
निमण्या
स्वासांतुय
आसलो
मायभुंयेचोच आकांताचो
हुसको

अशे लोक
अशे झुजारी
अशे हाडाचे कवी
केन्नाच
मरनात

तेंचे एक
महाकाव्य
जावन उरता

महानागेशकाव्य!

(आमचे मार्गदर्शक सुटकेझुजारी नागेश करमली (१९३२-२०२३) गेल्याउपरांत ही श्रद्धांजली.)

***



## तुर्जे घर

**परेश नरेंद्र कामत**

ह्या निळशा सावळ्यांनी बुडिल्ल्या दोंगरांचेर
कितलींशींच ल्हान-ल्हान घुमट्यां सारकीं मांडिल्लीं घरां
तिळसनां दिवेलावणेच्या वेळा
घरा घरांत नक्षत्रां वरी दिवे पेट्टकीच भरता नदरेंत
काळखांत पयस मेरेन कोरांथून काडपी उजवाड

हांव नकळों तुर्जे घर खंयचें
मोडणां मोडणां येत
तुज्या घरा कडेन चडत वचपी वाटूय नकळों हांव
दोंगराचे कुशींतल्या
हातूंतल्या खंयच्या तरी एका घरांत भर रात मेरेन
तूं जागत
नक्षत्र कशें चकचकत
कोणाची जीण उजळायत आसा ?

नाका ओगीच करूं दाखय-लिपय ;
भायले जागेक भायले भायर दवरून आतां
म्हाका पळोवंक जाय भितरल्यान एकदां
तुर्जे उजळिल्लें घरपण !

*

## घुस्मट

दार उकतें उरिल्लें- तशेंच उरलां अजून
घराचो रंग गेला विटून
मरणाचें मोनेपण उरलां दाटून
तेन्ना समजून येतां हांव तुका घरांतल्या रितेपणांत...

संपर्क: 9422640210



***



## तूं सरळ आमगेर वो

आर. रामनाथ

जाय ते खेपो
तूं म्हाका मेळ्ळा
पूण मेळिल्ले खेपे
एक तर तूं म्हाका देंवतेर मेळ्ळा
वा खंयचेतरी वोल्तार मेळ्ळा.
सरळ रस्त्यार म्हूण तूं म्हाका केन्ना आदळ्ळोच ना...

पूण हे खेपे मात
तूं सरळ आमगेर वो
सांजचो हांव आंगणांत बशिल्लोच आसतां
आंगणांत मेकळेपणान मेळप जातलें
आनी उलोवपूय जातलें
सगळें कशें भायलें भायरूच जातलें...

मुजरत वो तूं
सांजचोच वो तूं
आपशींच आमगेर रात जातली...

संपर्क: 9850458763

***

## अस्वडीं

माधव बोरकार

म्हजे अस्वडीं वारो
तुजे लागीं खेळटा
तळ्या आंगार चंद्र
सावळी ताची कोरता.

म्हजे अस्वडीं कोगूळ
आकूळ आर्त गायता
येता सादार साद
काळीज म्हजें कोंचता.

तुजे अस्वडीं व्यथा
मोनेळींत फळटा
अंतरांत एक दिवो
दीस कसो जळटा.

तुजे अस्वडीं हांव
तुज्या पैस वतां
उष्ण ओठांची ऊब
रंद्रांनी पेरतां...

३१.१०.२२

संपर्क: 9420222876

***

## सोबीत जिण

सोनाली सु. पेडणेकर

स्वर्गापरस सोबीत घर म्हजें
तातूंन गो सूख मोठे तुजें..
दर्वाक सुकती भरती ही आसाच
जिणेचे कांय खिण ते अणभवाचे तुजे म्हजे...

संसार चलता चाळीत बसचें
कश्ट ह्या हातांचे तुजे म्हजे
तकलेर जर तर आसत ओजें
तांतूनच घर मोगाचे तुजे म्हजे...

जात्रेक गेल्यार देवाचे दर्शन मन सुखाचे
येवन दिसता गोंयचे खाजे
खाय जरी तें मधुमेह्याक गोडार्चे
तरी जिबेचे चोंचले मात्शे पुरोवचे...

मनाक आयलें थोडेशें भोंवचे
थोडे दीस अशेच सुखाचे
घर सोबीत आसाच
थोडोशे दीस अदीक तांतून खुशालकायेंन
यालोवपाचे...

स्वर्गापरस सोबीत घर म्हजें
तातूंन गो सूख मोठे तुजें...
दर्वाक सुकती भरती ही आसाच
जिणेचे कांय खिण ते अणभवाचे तुजे म्हजे...

संपर्क : 9923046779

***

## देगेवेल्यो कविता

उल्हास पै रायकार

जीणभर...
तुजी नदर
किरवटेक लावन
हांवे म्हाका
सोद सोद
सोदलो.
खंयच
हांव म्हाका
मेळ्ळों ना.

आतां निमाणें
हांवे
तुजे नदरेंत
म्हजी नदर
थीर करुन
विरगळायली...

आनी...
आतां...
म्हजी
अचेतन कूड
उबारतना
तांणी अचळय
नकळत म्हळें...
नारायण...
नारायण...
नारायण...

***

मनांक
मनांनूच काडिल्यो
बारीक्ष मिरयो
सुद्दात आतां
निमण्या वेळार
अळंऽऽ ग...
अचळऽऽ य...
दर्याक
दर्यानूच काडिल्यो
ल्हरल्हरी मिरयो
देगेक येवन
सुटच्यो तशो...
कुडीचे देगेक
आतां
संचिताचो फेणेर
ताच्या
प्राक्तनाच्या सोदांत...
आपलो
मंऽऽद प्राण-स्वर
धवोफुल्ल...
विरगळायत आसा
अळंऽऽ ग
अचळऽऽ य...

संपर्क : 7507441344

***



# म्हजो रवीन्द्र सांगात

दिलीप बोरकार

*(माधवीन म्हजेर एक जापसालदारकी घाल्ली, ताणें म्हणिल्लें, ''१९७६ पासून तुका तातोचो सांगात मेळ्ळा. तो तुका दर आयतारा घेवन भमतालो आनी खूब कितें उलयतालो. ताणेंच म्हाकां सांगलां, तुका 'जागां'त बरोवंक लाय म्हूण. ताका तुजें 'तीर-सुवादीक' खूब आवडटालें. तुजो लेख आयले बराबर पयलीं तो वाचतालो. वाचून आपलेच भितर हांसतालो. तुज्यो तातो कडल्यो यादी 'जागा'क बरय.'' माधवीक ना म्हणप म्हाका शक्य नाशिल्लें. दुसरी गजाल हांव जें कितें बरयतां तें सत काय फट हें सांगपाक रवीन्द्रबाब आतां नाशिल्लो. म्हणटकच हांव बरयतां वा सांगतां तातूंत कितलें सत आसा हाचेर दोळे धांपून विश्वास दवरतले इतली म्हजी पत तांचे कडेन नाशिल्ली. पूण म्हज्या बरपांतलें प्रांजळपण पारखूंक माधवी आशिल्लें. जेन्ना बरोवपाचें थारायलें तेन्ना दोळ्यां मुखार रवीन्द्रबाबांचें काकासायब कालेलकारां वयलें 'ज्ञाननिधीच्या सान्निध्यात' हें पुस्तक आशिल्लें. तेच धर्तेचें एक पुस्तक रवीन्द्रबाबांचेर जावंचें म्हूण हांवें 'म्हजो रवीन्द्र सांगात' हें सदर रवीन्द्रबाब गेल्या उपरांत मार्च २०११त 'जागा'त खिस्ती खिस्तीनीं सुरू केलें. जांणी वाचलें तातूंतल्या विरोधकांनी लेगीत केन्ना हो 'बंडलां मारता वो फोडटा' अशें म्हणूंक ना. 'बरें जाता' अशेंच म्हणलें. हांवें सदर चालूच दवरून ताच्यो बावीस खिस्ती बरयल्यो. माधवीन ह्या सदराची निमणी खिस्त वाचली ती २०१३ तल्या सप्टेंबर अंकांतली अठरावी खिस्त. मागीर माधवीचें दुयेंस हाता भायर पावलें आनी म्हजो रवीन्द्र सांगात सदरांतली ही अठरावी खिस्त ताणें वाचिल्ली ती निमणी थारली. तेंच आमचो सांगात सोडून गेलें.*

*तरी आसतना ताका दिल्लें उतर पाळपा पासत 'जाग' परत सुरू जातकच जुलाय २०१५ च्या अंकांत एकोणिसावी खिस्त सुरू केली. ह्याच अंकांत माधवीचोय सांगात 'मधुरा माधवी' ह्या शीर्शका खाला वेगळ्या लेखांत बरोवपाचें दुर्भाग्य म्हजे वांट्याक आयलें. दोनूय लेख बरयतना 'हें वाचपाक माधवी ना' हो एकूच विचार काळीज पोखरतालो. जर माधवीच ना जाल्यार मागीर बरोवप तरी कोणा पासत? होय एक विचार तकलेंत घोळूंक लागिल्लो. बरें बरयतलों जाल्यार म्हाकां बरे वाचपी जाय आसतात. दुर्दैवान कोंकणींत चिकित्सक वाचक उणे जायत वतात आनी कोंकणी वाचपी आसात ते आपणें बरयल्लें सोडून दुसरें कांयच वाचीनात असोय अणभव आयलो. देखून कितेंय बरोवपा पासत जी एक आंतरीक उर्मी लागता तीच शेणिल्लेवरी दिसूंक लागलें. बरोवप बरोवंक जाय म्हूण जावंक लागलें. शेवटाक बाविसावी खिस्ती मेरेन रवीन्द्र सांगात व्हेलो आनी फुडलें सगलें पुस्तक रुपान हाडुंया अशें चिंतून हें सदर स्थगीत दवरलें.*

*खंयचोय विशय नेमाळ्यांत सदराच्या रुपान बरोवंक घेतल्यार सक्तीन तो जावन पडटा. रवीन्द्रबाबांची जन्मशती दोन वर्सांचेर पावल्या. दर म्हयन्याक थोडें थोडें बरयत जाल्यार फुडल्या २४ म्हयन्यांत हें पुस्तक पुराय जावं येता अशें दिशिल्ल्यान बाविसावे खिस्ती उपरांत म्हळ्यार ऑक्टोबर २०१५ सावन स्थगीत दवरिल्लें म्हजें हें सदर सात वर्सां उपरांत ह्या मार्चा सावन हांव आरंभ करतां. रवीन्द्रबाबांचे जल्मशती निमतान माधवीक एक भेट म्हूण...)*

### तेविसावी खिस्त

रवीन्द्रबाब म्हज्या साग्ळ्या वीस वर्सां पिरायेच्या त्या काळच्या तरनाट्या कडल्यान कितें अपेक्षा करताले हाची म्हाका ते वेळार कल्पना नाशिल्ली. हांव घडिल्लों तो मराठी आनी हिन्दी वाचनांतल्यान. इंग्लीश तुटकी फुटकी येताली पूण ती हेरां कडेन संपर्क करपा पासत जें कितें धाडस जाय तें बळावपा इतलें नक्कीच नाशिल्ली. ते पासत पिढेस्तपणान दचकत वागप जातालें. फुडें फुडें करून कितें हातासतलों म्हणपा साग्की म्हज्या मनाची तयारी जावंक नाशिल्ली. तेच पासत हांव फुडारी जावचे परस अनुयायी रावप पसंत करतालों.

म्हजी पिराय १९७७त वीस वर्सांची. धेंपे कॉलेजींत इंटराक शिकतालों आनी इंग्लीश कळ नाशिल्ल्यान मराठी हो विशय सोडल्यार हेर सगल्या विशयांच्या लेक्चरांक दांडी मारतालों. चडसो वेळ विद्यार्थी चळवळी आनी रवीन्द्र केळेकार हांचे फाटल्या फाटल्यान भोंवतालों. कवितेंत रमतालों. 'आपणें खंय शिक्षण घेतलां..? जांका नोकरी करपाची आसा तांणी घेवप ती डिग्री बिग्री!' अशें रवीन्द्रबाबांच्या तोंडांतल्यान केन्ना केन्ना आयकतालों तें म्हाका जेल दितालें. अशें आसलें तरी हांव कितें करतां हाची म्हाका कल्पना नाशिल्ली.

इंदिरा गांधींचे सरकार केंद्रांत आशिल्लें आनी ती देशाची प्रधानमंत्री आशिल्ल्यान हांव तर तिच्या मोगांत कसो आशिल्लों. ताचें कारण म्हळ्यार १९७१ तलें भारत पाकिस्तान झूंज. ह्या झुजांतलें प्रधानमंत्री म्हूण जें कितें तिणें फुडारपण केल्लें ताका लागून ते पिरायेर म्हजेर तिणें मोनेल घाल्लो. 'गुंगी गुडीयाँ' झांशीची राणी जाली, ती प्रियदर्शनी अशें खूब कितें वाचूंक आनी रेडियोर आयकूंक मेळटालें. खबरापत्रांचेर ह्या झुजाचे जे कितें फोटो आनी बातमी येता ताचीं कात्रणां काडून

हांवें कादेर्नांत दसयल्लीं. झुजाचो आरंभ ते शेवट मेरेनच्या म्हत्वाच्या घडणुकांचीं कात्रणां हांवें काडून दवरिल्लीं. मागीर हांवें खबरांपत्राच्याच पानांची पट्टी करून तीं सगलीं कात्रणां तारके प्रमाण क्रमान दसोवन ताचो रोल केल्लो. मागीर पापेलावांचें एक बॉक्स करून ताचो फुडलो भाग कापून चौकट केल्ली. त्या बॉक्साक वयर आनी सकयल दोन सरयो तोपून हें चित्रांचें रीळ त्या सरयांक घुस्पायल्लें. सरयो एका तोंकाक बागोवन तांकां हॅन्डलचो आकार दिल्लो. तीं वयर सकयल घुंवडावन हांव हेरांक झुजाचो म्हायतीपट दाखयतालों. पिरायेच्या चौदाव्या वर्सा हांवें हो म्हायतीपट तयार करून म्हज्या वांगडच्यांक दाखयल्लो आनी त्या म्हायतीपटाचें नांव आशिल्लें 'प्रियदर्शनी इंदिरा.'

हें सगलें सांगपाचो हेत म्हळ्यार म्हजेर इंदिरा गांधीन आपल्या कर्तृत्वान त्या काळार मोनेळ घाल्लो आनी तो मागीर हांव कॉलेजी पासत पणजे येवन रवीन्द्र केळेकारांक मेळ म्हणसर तसोच आशिल्लो. पणजे येवन हांव विद्यार्थी चळवळींत सक्रीय जावंचे आदीं युथ कॉंग्रेस गोंयांत सक्रीय आशिल्लो. गिरीश सरदेसाय, नॉएल डिसौझा, राजू वालावलीकार बी कितलेच तरनाटे म्हाका लागीं आशिल्ले आनी युथ कॉंग्रेसीत ओडटाले. पूण रवीन्द्र केळेकार जे बायलेक 'उरफाट्या काळजा'ची म्हणटा आनी तिका सत्ते वयल्यान देवोवंक जाय म्हणटा तिज्या पक्षाच्या युवा फाट्यांत हांवें वचप म्हळ्यार हांवें रवीन्द्रबाबाक दुखोवप, ताचे लागीं प्रतारणा करप अशें कितें तरी म्हाका दिसतालें आनी हांवूय मागीर इंदिरा गांधीक उरफाट्या काळजाची अशें मानूंक लागलों.

रवीन्द्रबाब तिका तशें कित्याक म्हणटालो तर तिका जेपी तशें म्हणटालो. जेपी म्हणल्यार जयप्रकाश नारायण. एक विचारवंत, समाजवादी फुडारी अशें कितें कितें तांचेविशीं आयकल्लें. तांणी देशाच्या स्वातंत्र्य लढ्यांत खास करून १९४२ च्या काळात ब्रिटीशां आड क्रांतिकारी वावर केल्लो आनी बंदखणूय भोगिल्ली. त्या पासत तांका देश मानतालो. ते इंदिरा गांधीचेर सामके कोंत्र आशिल्ले. ती हुकूमशहा बायल आनी ती लोकशाय मानिना. म्हणटकच तिका सत्ते वयल्यान देवोवंक जाय अशें ते म्हणटाले. त्या पासत तांणी १९७०त संपूर्ण क्रांतीची घोशणां केल्ली आनी तांची ही चळवळ देशभर मूळ धरूंक लागिल्ली. तेन्नाच १९७१ त भारत-पाकिस्तान झुंज आरंभ जालें आनी इंदिरा गांधींच्या फुडारपणा खाल भारतान पाकिस्तानाक हरयलें. तेन्ना इंदिरा गांधीक संवसारभरचे लोक मानूंक लागले. तिणें आपली प्रतिमा कणखर फुडारी म्हूण सिद्द केल्ले. अशें आसतनाय तिचे विशीं जेपी सारखे, रवीन्द्रबाबां सारके फुडारी कित्याक वायट उलयतात हें मात म्हाका आकलन जाय नाशिल्लें.

मागीर इंदिरा गांधीन २५ जून १९७५ त आणिबाणी जाहीर केली. आणिबाणी म्हळ्यार कितें आनी ती कित्याक जाहीर करतात हाचीय म्हाका कल्पना नाशिल्ली. हे आणिबाणीक लागून देशभर इंदिरा गांधी आड वातावरण तयार जावपाक लागिल्लें. जो कोण तिजे आड उलयतालो ताका धरून भितर उडयताले. जेपी आनी हेर कितल्याच फुडाऱ्यांक धरून बंदखणींत घाल्ले. गोंयच्याय कांय लोकांक अटक केल्ली. 'आपल्याकूय धरून भितर उडयतले तेन्ना तूं आपले पासून थोडो पयसूच राव' अशें रवीन्द्रबाबान म्हाका शिटकायल्लें. पूण हांवच

आपसूक तांचे पासून नकळटना पयस जालों.

ताचें जालें कितें तर इंदिरा गांधीन आणिबाणी जाहीर केल्या बराबर आणिबाणीची मखलाशी आणि इंदिरा गांधींची तुस्त गावपी कार्यावळी आकाशवाणी पणजे केंद्रा वयल्यान प्रसारीत जावंक लागल्यो. कोंकणी चळवळीच्या निमतान नागेश करमली, पुरुषोत्तम सिंगबाळ, युसुफ शेख सारख्या आकाशवाणीचेर काम करपी लोका लागीं वळख जाल्ली. तांणी म्हाका वेगवेगळ्या कार्यक्रमांक आकाशवाणीर व्हरप. पयशे मेळटात म्हूण म्हाकाय चट लागली. हांव इंदिरा गांधी, आणिबाणी आनी वेगवेगळ्या कलमांची तुस्त गावंक लागलों. रेडियो वयल्यान आपलें नांव आयकूंक मेळप आनी पयशेय मेळप हें म्हजे पासत एक अप्रूप आशिल्लें. रेडियो सगल्यानी आयकुंचो पूण रवीन्द्रबाबाच्या कानार मात म्हजें नांव पडचें न्हय अशें हांव देवाक पराथतालों. तांका जेन्ना जेन्ना मेळटालों तेन्ना कांचवेत मेळटालों. पूण रवीन्द्रबाबान म्हाका तेन्नाय ते विशीं कांय विचारलें ना वो उपरांतूय. दिसतालें तांणी कान धरून म्हाका म्हणचें, ''अशी दुटप्पी भुमिका वापरून  मनीस व्हड जायना!''

आणिबाणीच्या काळांत रवीन्द्रबाब आनी हेर जयप्रकाश नारायणा पासत पयशे जमयताले. बंदखणींत तांची भलायकी इबाडल्या अशें कानार पडटालें. त्या भायर तांच्या अमृत महोत्सवाचीय तयारी चलताली. इतले मजगती इंदिरा गांधी आनी तांच्या काँग्रेस पक्षा आड देशांतले सगले पक्ष एकवटपाक लागले. तांणी सगल्यांनी २३ जानेवारी १९७७त जनता पक्ष नांवाचो राजकी पक्ष जयप्रकाश नारायणांचे फुडारपणा खाला घडयलो. रवीन्द्रबाब, काशिनाथ परब, जि, वाय. भांडारी, व्हितोरिया फेर्नांडीस, माधव बीर आनी वसंत सबनीस बी जनसंघाचे लोक एकठांय येवन गोंयांतूय जनता पक्षाची थापणूक जाली. जनता युवा मोर्चाचीय स्थापना जाली. माधव धोंड, सिरील पाशेको बी म्हजे वांगडचे  सक्रीय वावुरताले. म्हाका तातूंत व्हडलीशी आवड नाशिल्ली. हांव रवीन्द्रबाब आसता तेन्नाच थंय गणयतालों आनी म्हज्या वेगळ्या कामांक लागतालों. मोरारजी देसाय, राजनारायण, जॉर्ज फेर्नांडीश अश्या कितल्याच राष्ट्रीय फुडाऱ्या लागीं वळख जाताली. इतले मजगतीं वेंचणुकय जाहीर जाली. १६ ते २० मार्च मजगतीं वेंचणूक जावन सगले निकालाची वाट पळयताले. सगल्यांचीं काळजां कलकलतालीं. वेंचणुकेच्या प्रचार मजगतीं आणिबाणी आशिल्लीच. कोणाक व्हडलीशी पिडापीड नाशिल्ली तरी भंय मनांत आसतालो. 'इंदिरा गांधी परत सत्तेर आयली जाल्यार आमकां सगल्यांक ती सोडपाची ना, देरेकल्याक वेंचून वेंचून ख्यास्त करतली' म्हणपाचें रवीन्द्रबाब आनी हेर फुडारी उलयताले. म्हाका तांतूंतलें गांभिर्य मातूय कळनाशिल्लें. उडयलो भितर जाल्यार उडोवं दी, भगतसिंग, राजगुरू बी पडूंक नाशिल्ले..? इतलें म्हजें चिंतप भुरगेपणाचें आशिल्लें.

२१ मार्च १९७७ त आणिबाणी काडली आनी २३ मार्चाक वेंचणुकेचो निकाल जाहीर जालो. जनता पक्ष भोवमतान वेंचून आयिल्लो. मागीर दुसरे दीस २४ मार्चाक मोरारजी देसाय हांचे फुडारपणाखाल सरकार घडलें. मोरारजी देसाय प्रधानमंत्री जाले, जॉर्ज फेर्नांडीस उद्योगमंत्री काय आनीक कसलो! जांचे वांगडा हांव भोंवतालों, एका मेजार बसून जेवतालों तातूंतलेच प्रधानमंत्री आनी मंत्री जाले तें पळोवन हांव सामको भुरकुटलों. म्हजे पासत हो एक वेगळोच अणभव आशिल्लो. पूण रवीन्द्रबाब सामके स्थितप्रज्ञ दिसताले. सगले खोशयेन भरिल्ले आनी फुडल्या आयोजनांत मग्न जाल्ले तेन्ना रवीन्द्रबाबान म्हाका इतलेंच म्हळें, ''आयलें मरे आमचें सरकार..? देंवयली मरे इंदिरा गांधीक? आतां आमी आमच्या वावराक लागूंया. तांका चलोवंदी सरकार....!'

अशें म्हणून रवीन्द्रबाब भितरले भितर हांसले खरे पूण तांचे भितर म्हाका कित्याक कोण जाणा तृप्ततायशी दिसली ना.

**(चलता)**

संपर्क: 9822136885

***

---

# पडसाद

## जागू मैं सारी रैना - सुंदर निबंद

नमस्कार

उल्हास पै रायकार (जाग, जानेवारी २३) हांचो मारूबिहाग निबंद सुंदरूच.

म्हजे सारक्या रसिकान आनी ललीत लेखकान प्रभाताईचो मारूबिहाग एलपीचेर शेंकड्यांनी खेपे आयकला, ताकाच ह्या लेखांतलें मर्म, अर्क, संगीत कळटलें.

मळबांत निळनिळत रावपी हातूंतलें निळनिळत उतर खूब आवडलें. प्रतिकां आयल्यांत तीं कवीमनांतल्यान. सुंदर.

म्हाका एकूच आर्ते. मुंबय दिल्ले. रेगे. ताचो हो आवडटो राग. ताणें कायम परदेस सजणा, कां धरिला परदेस... हें गाणें ताच्या कुळारा (आमच्या घरा) चोंडणा येतकच गावचें. सासुबाई, आत्याबाई, त्या कान्हाला सांगा तुम्ही काही... अशी एक गवळण आसा मारूबिहागाचेर आदारीत. गोड पाक. रसगुल्ला काय गुलाबजाम काय आयस्क्रीम कितेंय आसूं, खुबूच गोड.

कितल्योशोच यादी जागयत उल्हासबाबालो मारू बिहाग मनांत, रगतांत, चिंतनात, काळजांत घोळत रावलो. उल्हासबाब माडये गुरूजींचो शिष्य. हार्मोनियम वाजोवपी. ताचें गाणें, कट्यारांतली नाट्यगितां बी, आमच्या थळी तबलज्यांक खुबूच आवडटालीं

आनी ह्या कलाकाराक लयेची समज रगतांत आसा ताची तोखणाय आमच्या घरांतले जाण्टेले सगळे करी.

प्रभाताईच्या गाण्यांत लडिवाळपण, सात्विकता, गोडवो आनी विशेश करून भाव जो येता तो सरळ काळीज सांसपिता आनी काळजाक भितल्ल्यान मसाज करता. स्त्री-कंठाचो जादू ह्या मारू बिहागांत आसपावता. रसिकलाल अंधारिया धरून खूब गायकांचे दिग्गजांचे मारू बिहाग आसात. पूण प्रभाताईचो मारू बिहाग साकर. शुद्ध. रसपूर्ण, भावपूर्ण. कांय पुस्तकाचीं पारायणां आमी करतात. तशेंच गाण्याचेंय आसता. पं जसराज हांचो हंसध्वनी आनी भीमपलास हजारांनी खेपे आयकतां. मारू बिहाग = प्रभाताई अशें हें समीकरण कित्याक, ताची फोडणीशी उल्हासबाबान आडव्या काव्यावरवीं केल्या.

संगिताची तान आनी अभिजाततेचो कान हांची तीव्रता जितली खर आसा तितल्या प्रमाणांत, उल्हासबाबालो हो उत्कृष्ट निबंध वाचकांचें काळीज आनी आंतरीक विश्व भेदून वतलो.

उल्हासबाबान साहित्याच्या मळार खूब आवर्तनां, विद्युत तानो, हरकती आनी संगितांतल्यो हेर परीपक्व चमत्कृती सादर करून अशेंच आमकां रिझवचें ही विनंती.

**मुकेश थळी**

संपर्क : 9545827662 ***

*(पान ५ वयल्यान)*

शब्दकोश, परीभाशाकोश, एक कंप्यूटर आनी आख्खें वाचनालय. ताची याद आनी स्मृती विलक्षण. अशें एक चलतें भोंवतें वाचनालय आमच्यांतल्यान ना जालें हाची खंत भोगता. खंयच्या एका उतराक आडखळत जाल्यार नागेशबाबाक फोन लावंचो, जाप हजर. एखादे कवितेचे रचनेचो रचनाकार याद जायना जाल्यार नागेशबाबाक फोन करचो, इन्स्टंट जाप मेळटाली.

जें कितें आवडटा ताची तोंड भरून तुस्त तोखणाय करपाक नागेशबाब केन्नाच फाटीं रावनासलो. सुरभूस जेवणाची ताका आवड. रूचीचें जेवण जाय आसतालें. नुस्त्याचो शौकीन. जेवण बरें रूचीन जेवन जातकूच हात धुवन लेंसाक हात पुशीत रांदचेकुडींत बागोवन पळयतालो आनी व्हडल्यान म्हणटालो, जेवण बरें जालां आं, घोम्ताचें. जे बायलेन तें रांदलां तिका ती शाबासकी आसली. जांच्या हातांनी रांदिल्लें नागेशबाब जेवला त्या सगळ्यांक घरांतल्यान भायर सरतना तिच्या कश्टांची पावती दिवपाक तो केन्नाच विसरनासलो.

जेवणाची एक याद घट्ट तकलेंत उरल्या आनी ती याद म्हाका समादानाची कुरू जावन रावल्या. अशें भाग्य खूब थोड्यांच्या वांट्याक येता. म्हज्या आयलें आनी हांव समादानी जालें. नागेशबाब आनी गुरूनाथबाब मागीर वांगडाच भोंवताले. दोगूय भोंवपाक पिशे. एक दीस भर दनपारां दोगूय आमगेर भितर सरले. तीन वर्सां फाटीं आसुंये. दोगांकूय अशे अकस्मात भितर आयिल्ले पळोवन हांव खोशेन भुल्लुसलें. कितें करचें आनी कितें नाका अशें जालें म्हाका. कुळारासावन आपले मायेचीं मनशां येवंचीं तशें कितेंशें म्हाका जालें. बसले, उदक पिले आनी वचपाची तयारी करपाक लागले. खबरेक आयिल्ले. खबर घेतली आतां वतात. हावें म्हणलें, जेवणाचो वेळ, तुमकां तशेच धाडूं? तुमकां पळोवन धन्य जालां हांव. बसात. तूं कांयच करूं नाका, आमी खाणावळींत जेवन येतात. हांव भितर आयलें, गांवठी नुस्तें आशिल्लें फ्रिजांत. उजरावन मीठ मिरसांग लायिल्लें आशल्लें. काडलें बेगीबेगीन आनी जेवणाची तयारी केली. थोडो वेळ भायर थोडो वेळ भितर यो वच करून जेवण रांदपाची जाग दाखयली ना. आनी एक वराभितर जेवण तयार केलें आनी तांकां म्हणलें, जेवपाक येयात. मेजावयलें नुस्तें पळोवन नागेशबाबाचें खोशयेन भरिल्लें तोंड पळयतना म्हाका जें समादान भोगलें ते यादीचेर हांव आजूनय धादोसकाय भोगतां. हे दोगूय म्हजे जशे कितें बापूय जावन म्हाका आशिर्वाद दिवपाकूच आयिल्ले. तांची ती तृप्ततायेची भावना आजूनय म्हज्या दोळ्यां मुखार म्हाका दिसता आनी हांव सुखावतां.

थोर विचारवंत आनी तत्वगिन्यानी कार्ल मार्क्स हांच्या सामाजीक, समानतावादी विचारांचे प्रक्रियेंतल्यान घडिल्ल्या नागेशबाबाची मायेची सावळी आतां मेळचीना पूण तांच्या सांगातांत रावून तांच्या विचारांतल्यान आनी प्रभावांतल्यान घडिल्लीं आमचे सारकेलीं मात आयुश्यभर त्या विचारां कडेन प्रामाणिक उरतलीं आनी कोंकणीच्या परजळीत फुडाराक हें बळीश्ट थरतलें.

संपर्क: 9764597628 ***



# पांडुरंग भांगी - जिवीत आनी कवीत

माधव बोरकार

पाववो गांठो

भांगी हांचे कवितेच्या भाशेचो विचार करतना नामनेची मराठी कवी आनी समिक्षक पु. शि. रेगे हांच्या एका विधानाची याद जाता. कवितेक आपली अशी भास आसना. कविता हीच तिची भास आसता अशें कुवाड्यांत उडोवपी विधान रेगे करता. लोक व्यवहारांत घोळपी भास ही कवी आपले कवितेखातीर वापरता ती भास वेगळी आसता अशें घडये रेगे हांगा सुचयता आसुंये. लोक व्यवहारांत घोळपी भास एक सारकी वापरिल्ल्यान ती झिजता आनी नव्या अर्थांची निर्मणी करपाची तिची तांक उणी जायत वता. हे भाशेक अर्थांचीं नवीं परिमाणां दिवपाची जापसालदारकी कवीचेर येता. तशें पळोवंक गेल्यार कवितेची निर्मणी ही उत्स्फूर्त आसता. आनी तिचे निर्मणेचे प्रक्रियेंत तीच आपले गरजे प्रमाण नवी उतरावळ आनी ते बराबरूच पोरण्या उतरांक नवो अर्थ दिता.

*हांव जाणा म्हाळशेवरी*
*तुज्योय दिसाक तीन कळा*
*पांयसोरान तुज्याच बाये*
*पुण्याय म्हजी येवंदी फळा!*

ह्यो वळी कवितेक उद्देशून बरयल्ल्यो आसात. ह्या कडव्यांतली पांयसोरान वा म्हाळशेच्यो तीन कळा सारकिले वाक्यप्रचार आज चालंत भाशेंतल्यान पयस गेल्यात. हे कवितेवरवीं तांका परत एकेतरेची जीवसाण हांगा कवी हाडटा. खूप फावट कवी भाशेंतली अशी उतरावळ घेवन ती घांसून पुसून लखलखीत करता आनी तातूंतल्यान नव्या अर्थाचो उजवाड लखलखूंक लागता. हें सगळें कवीचे प्रतिभेचे तांकीर निंबून आसता. कवी जो शद्बांकडे खेळ करता ताका कांय समिक्षक रतिक्रिडेची उपमा दितात. परत हांगा रेगे हांच्या एका विधानाची याद जाता. ''शद्ब हा आपली सगळी सृष्टी घेउन,पुन: आपलें शद्बत्व टिकवून ठाम असते.'' अशे अर्थपूर्ण उद्गार ते काडटात. कवी नवे शद्ब घडयता वा ते कवितेच्या आशयाचे गरजेंतल्यांन घडटात. अशें करतना शद्ब आपलें शद्बत्व टिकोवन धरतलेच अशें ना. आनी तशें नासल्यार ती अख्खी कविताच पोकळ वाजूंक लागता, 'राधा'हे कवितेतल्यो ह्यो वळी:

*मन रंभा खेळटा फुगडी*
*भिजू भिजून गेली चुनडी*
*श्रीहरीचो आयलो मेळ*
*ल्हारे ल्हारेवन गेलो खेळ.*

कोंकणीत ल्हार हाचे वयल्यान ल्हारेता अशें क्रियापद जावंक ना. हें क्रियापद कवितेच्या लयेंतल्यान आयलां. तेच प्रमाण दृक् आनी श्राव्य संवेदनाय व्यक्त करपाची विलक्षण तांक ल्हारेता ह्या क्रियापदाक श्राम्या. शद्बांचीं रुपां अशीं बदलून तांकां नवें रुप दिवपाची प्रक्रिया ही फळादीक आसा हें खरें पूण ताचो अतिरेक जावंक फावना. ही प्रक्रिया आपसूक जावप हें गरजेचें आसता. 'काळखाचो हिमालय' हे कवितेंतल्यो ह्यो वळी:

*धुवांवेल्यो राती*
*जल्म-मर्णा फेरे*
*नळयेंतय जिणे जल्म*
*उसवतात धागे दोरे*

हांगा कवी Teste Tube baby ह्या उतराक नळयेंतय जिणंजल्म अशी उतरावळ वापरता. 'वाऱ्यांच्यो घागऱ्यो' हे कवितेंतल्यो ह्यो वळी.:

*वाऱ्याचो घागऱ्यो*
*सपनेल्यो सावळ्यो*
*पाळेलीं पावलां*
*उजवाड कवडुलां*

हांगा पाळां ह्या नामाचें पाळेलीं अशें क्रियापद घडलां. पावलांक पाळां फुटप हातूंत अभिव्यक्तीचें एक वेगळेंपण जाणवता. आनी आशयाक धरून हें उतर आपसूक घडलां हें लक्षांत येता. उतर घडोवंक जायना तर ते घडूंक जाय. तशें जालें जाल्यारूच तें भाशेकडेन एकरूप जावंक पावतलें. पूण ही गजाल सहज शक्य जायना. आपले दिसपटयेंत भांगी एक म्हत्वाची नोंद करता. तांच्या मतान नवे पिळगेक कविता बरोवपाची उमेद आसली तरी भाशेच्या अभ्यासा खातीर ती फावो ती तकालस घेना. भास ही आसुडची फाफुडची पडटा आनी तिचेर फार घालून ती सरळ करची पडटा. तिका मोवण लावन म्होंवाळ करची पडटा. तेन्नाच ती तुज्या बरबर संवाद करपाक लागता. हे कविची कविताच न्हय तर तांचे गद्य ताकाच लागून लयबद्ध जालां. कोंकणी भाशेची प्रकृती तांकां उमजल्या हाची गवाय तांची बरपावळ दिता. आज कालचे नवे कवी शद्ब तोडटात आनी आपल्याक जाय तशे मोडटात. हातूंत तांकां नवें कितें तरी केल्ल्याचो भास जाता. पूण आपूण आपले कवितेबराबर भाशेकूय नखलामी करता हाचें तांकां भान उरना. हे नदरेन भांगी हांचे कवितेचो अभ्यास फळाक येतलो. प्रत्येक भाशेक लयेचें आंग आसता कवीत ताची जाण आसपाक जाय. तिका आपलो असो सूर आनी ताल आसता. आमच्या कोंकणी कवी मर्दीं ताची सुक्ष्म आनी खोल जाण बाकीबाबांक आशिल्ली. तशेंच भांगी मर्दीं ही जाण दिसता.

भांगी हांच्या सामाजिक भानाविशीं हे आदीं बरयलां. ताचेविशीं परत एक फावट बरोवप पुनरुक्तीचो दोश दिसूंक येता. तांचें हें भान तशें समाज केंद्री न्हय तर तें बरेंचशें व्यक्तिकेंद्री म्हणपासारकें. 'दिस्टावो' संग्रहांतली तांची ही कविता:

*आदन केन्नाच वळवळांव नये*
*धुलो येतांच घालचे तांदूळ*

*पडिल्ल्याची पिडिल्ल्यांची*
*वेळार धरची काळाकूळ*

हे कवितेक सामाजिक आशयाचो सूर आसा. पूण तो हांगा उक्तेपणान व्यक्त जायना. तसो ताचो एक अर्थ काडूंक येता. पंडित वा सरदेसाय हांचे कवितेंत तर सरळ व्यक्त जाता. तसो तो भांगी हांचे कवितेंत व्यक्त जायना. हे कवितेंत आदन ही प्रतिमा म्हत्वाचें कार्य करता. हें आदन म्हळ्यार समाज मन हें अशें म्हणूं येता. समाज मनाक समजून उमजून घेवप हें चड म्हत्वाचें आनी तशें जालेंना जाल्यार क्रांती जावपाची शक्यताय न्हयकारूंक जायना. संवसाराच्या इतिहासाचो अभ्यास केल्यार ताचो पडटाळो येतलो. फ्रेंच राज्य क्रांती जावं वा रशियन क्रांती ताच्यो दोन म्हत्वाच्यो देखी. देखून पडिल्ल्याची पिडिल्ल्यांची वेळचे वेळार काळाकुळ धरप गरजेचें आसता अशेंच कवी सुचोवन वता. हे कवितेचें मुखावयलें कडवें अशें आसाः




*सुकृताचें बळ आसचें*
*संचिताचे गांठीक*
*अखेरचो दीस पुता*
*तेन्नाच जाता फळादीक!*

भारतीय तत्वदर्शनांत पुर्नजल्माक खूप म्हत्व आसा. तो एक म्हत्वाचो सिद्धांत. आत्म्याक मरण नासता. मरण म्हळ्यार आत्म्यान कूड सोडप आनी परत दुसरे कुडींत प्रवेश करप. एका जल्मांत केल्लीं पुण्यां आनी पातकां दुसऱ्या जल्मांत फेडचीं पडटा अशी एक कल्पना आसा. देखून सुकृताचें बळ संचिताचे गांठीक आसप गरजेचें अशें श्रद्धावंत भारतीय मन मानता. हो संदर्भ भांगी हांचे कवितेक आसा. हो एक वैश्विक अणभव.

जो समाजाक वेगळे वाटेन व्हरपाचो विचार करता ताका समाज वळखूंक पावता. सगळे तरेची उवेखणी ताच्या वाट्याक येता. हो प्रेशित फुडार पारखुपी. संवसाराच्या इतिहासाचेर नदर माल्ल्यार अशें कितलें तरी प्रेशित आयले आनी गेले. पूण समाजाक तांचें मोल कळपाक शेकड्यांचे शेंकडे वचचें पडलें. प्रेशितांक मात भियेतात ते आड मार्गान सत्ता हातासपी. सर्वसामान्याक पिडापिड करपी. प्रेशितांकडेन सत्ता नासत पूण विचार आसता. हे विचार किटी कशो केद्याय व्हडल्या रानांक उजो पेटोवपी तांचें म्हत्व सत्ता भोगप्यांक कळटा. देखून ते तांकां सगळे तरेचो त्रास दितात. तांचेर चेपण हाडटात.

*म्हजो खुरिस*
*म्हाकाच उबारून व्हरपाक जाय*
*ते म्हाका -*
*खुर्सार केन्ना चडयतीत म्हणपाचो नेम ना.*

कवी मुखार ताचेर अदिक उजवाड घालता. ते भियेतात ते धतरेच्या दुकांक न्हय आनी मळबांतली नक्षत्रां बावन झडत म्हणून तर न्हय आनी तेच भशेन सुर्याक गिराण लागून उजवाड धांपून उरत म्हणपाचो भंय तांकां निखालूच आसना. पूण

*ते भियेतात*
*म्हजे सासायेक*
*सासायेच्या साक्षात्काराक!*

ख्रिस्त एक प्रेशित. ताच्या सासायेच्या साक्षात्काराक लागून ताका आपलोच खुरीस आपणेच उबारचो पडलो आनी सॉक्रिटिसाक विखाचो पेलो पिंवचो पडलो. अशो जायत्यो देखी आसात.

अशे तरेचो सूर आशिल्ली आनीक एक कविता आसा. 'अद्रुस्टाचे कळे' ह्या संग्रहांतली ३७ वी कविता विचार करपासारकी आसा. कवी म्हण्टा, कितलीं तरी पावलां वाटेर उदेल्ली आसात आनी तशींच पावलां वाटांनी घुस्पल्यांत. हांगा सगळ्या सपनांचो गोबोर जाला आनी कितल्या तरी सादांचे उले, अत्रेगांचे उमाळे जाल्यात... आनी काळजाच्या घोटेरांत ज्वालामुखी पेटल्यात मुखार कवी प्रश्न विचारता.

*वाटोय आज अगेल कशो, खंयच्या प्रेशितांची वाणी?*
*सपनाचे जागृतींत कोण गायता गाणीं?*
*"जिणेक आज ना रे मोल, ना जिणेक प्रतिस्ठा*
*अथांग आसा मळब आनी अथांग आसा दर्या"*

समाज मन एकेवटेन प्रेशिताच्या येवपाची वाट पळयता आनी तो केन्ना येत हाचो अदमास बांदप सोपें न्हय. ताका शेंकड्याचे शेकडे वाट पळोवंची पडूं येता. बरें तो अवतरतकच ताका आमी वळखतले हाची खात्रीय दिवं नज.

*अकस्मात आतां अकल्पीत वारे*
*आपआपल्या दिस्टाव्यांत रुशी जातात जागे*
*आनी रगतांतलें इंगळे जातात मंत्रल्ले कळे*

केन्ना तरी हो प्रेशित येतलो हाची सुलूस ही कविता दिता. परिस्थितीचो अतिरेक जातकच कोण तरी सोडवणदार उबो रावता हाची गवाय इतिहास दिता. जाती धर्मावयल्यान जाल्लीं झुजां आनी तातूंतल्यान शेणिल्लें मनीसपण हें आयच्या काळांतूय आमकां अणभवपाक मेळटा. मनीस कितलोय संस्कारीत जालो तरी ताची मूळ प्रवृत्ती तशीच उरता.

*दोळ्यां मुखारच देखलीं*
*गुन्यावां विणें व्हांवयल्लीं*
*कितल्या भावार्थांचीं रगतां*
*ओलीं हुलपायल्लीं हाडां*
*रगत बंबाळ दोळ्यांत आतां*
*रगत जंयच्या थंयच शेळेलां*

कवीक ताची खंत आसा. दुसरे एके कवितेंत तो म्हण्टा. मोडावळींत पुरुन आशिल्ले कदिम काळाचे घायांवेलें रगत सांसपीतात आनी कळवळ्यान सांगतात की मनीसूच मनशाचो खरो दुस्मान आसता आनी वळखीचो चोर खरो जिवानशीं मारता. आपच्या पेल्याचेर कसो विश्वास दवरचो असो प्रश्न उप्रासता. हो एक वैश्विक अणभव. देखून

*ज्याणे ताणे आपलो खुरिस*
*आपणेच उबारुन व्हरचो*
*भोगयल्लें मरण*
*मोन्यानीच भोगचें*
*तांक आसल्यार*
*परतून जिवो जांवचें!*

खऱ्यांनीच प्रेशित येवंचे नात? तांचे सगळे मार्गच बंद जाल्यात? अशे प्रश्न कवी हांगा उपस्थित करता हो एके तरेचो विरोधाभास म्हणपाक जाय. तांचे एकूण कवितेंत हयकार आनी न्हयकार अशीं हीं दोन तोकां दिसतात. तातूंत न्हयकार चड. भुंयेच्या गर्भांतलो ज्वालामुखी भितल्ले भितर घुस्मट्टा आनी अगड घळिंतले/सोपून सोंपनाशिल्ले वळवळे/ घडये फांतोड फुटचोच ना... कित्याक तर रात अथांग आसा... काळोख हार जावन विळखो घालीत सगळ्यांक गिळत आसा. आनी उजवाडाकूय घायांनी भगां पडल्यांत. आनी किवणांतले किडे भंयाच्या वागऱ्यांत आपल्या सुवार्थाच्या घोटेरांत गुल्ल जावन रावल्यात. वाऱ्यांत कवीक अगेलाची वीज दिसता आनी ताकाय सर्वनाशाचो किटकिटो आयिल्लो दिसता. आनी हें चित्र बदलपाची तांक कोणा भितरुच आसा अशें दिसना.

*देवळांतलें देव*
*पाशाणांतच घुस्पल्यात*
*आज कोणाक*
*कोणाचेंच पडूंक ना*
*किड्यांचीय जीण आतां*
*किड्यांच्या हातांत उरूंक ना!*

हे किडे म्हळ्यार सामान्य लोक. परिस्थितीच्या दात्यांत सांपडून भड्डून गेल्ले. तांकां सुटका, वाट ना. कवीच्या उतरांनी सांगपाचें जाल्यार तांचे सोंसणीकायेक मीत ना! 'चांफेल्ली सांज' संग्रहांत 'भुंयेच्या गर्भांतलो ज्वालामुखी' आनी 'काळोख हार जावन' ह्यो दोन कविता एका फाटल्यान अशो येतात ताका विशेश अर्थूय आसा. हे दोनूय कवितांचो सूर एकूच आसून त्यो ह्या क्रमान आयिल्ल्यान तांचो आशय अदिक खोल जाता. अशेतरेची सामाजिक जाणिव व्यक्त करपी कवितांनी मनीसूच मनशाची कशी छळणूक करता हाचें चित्र दिसता. पूण मनोहरराय सरदेसाय हांचे भशेन 'जायात जागे' असो समाजमनाक उलो मारिनात. ते फक्त एक चित्र दोळ्यांमुखार उबें करता. अशा आशयाच्यो कविता खूब फावट Loud जावपाचो भंय आसता. अशी कविता आपलें सौंदर्य मोल व्होगडावन बसतात. कोंकणी कवी भितर तशो खूब देखी आसात. भांगी अशा आशयांत घुस्पून उरना. तो तांचे कवितेचो पिंड न्हय. समाजांत वावुरतना तांच्या मनाचेर उदेल्ली स्पंदना म्हळ्यार ह्यो कांय स्पुरिल्ल्यो कविता. निव्वळ खूश करपाक म्हूण अशेतरेच्यो कविता ताणी केन्नाच बरयल्यो नात. आनी विचार मांडपा खातीर कवितेचो वापर केन्ना केलो ना. तांचे कवितेचें वेगळेंपण तांचे हेच वृत्तींत आस्पावल्लां.

पांडुरंग भांगी हांचे कवितेंत शारी अणभव आडवाटान दिसतात. तांचें जिवीत चडशें शारांत गेलें. तरी आमकां तांचे कवितेंत शारी जीविताच्यो जाणिवो व्यक्त जायनात. आल्फांतावेल्या नोकरेक लागून दामांव, दीव हे गांव पळोवंचे पडले. ते भायर दोडामार्ग आनी बेतल्यांत ताणी कांय काळ सारलो. सुमार एकुणीस वरसां मुरगांवांत काडलीं. १९६७-६८च्या अदमासाक तांकां अप्रेझर म्हूण बडटी मेळ्ळी. तेन्ना तांकां दोन वरसां मुंबय शाराचो अणभव मेळ्ळो. ह्या काळांत तांकां आयिल्ले अणभव कांय कवितांनी ताणी व्यक्त केल्यात. पूण त्यो कविता ताणी प्रसिद्ध केल्यो नात. मर्ढेकराची 'मी एक मुंगी, तू एक मुंगी' ही कविता आपणे प्रत्यक्ष अणभवली अशें ते सांगताले. 'अद्रुस्टाचे कळे' आनी 'चांफेली सांज' ह्या संग्रहांत अनुक्रमान 'शारांत' आनी 'शहर वाडत आसा' अशो दोन कविता आसात.

*शारांत*
*झाडांक नासता भितोडी*
*तीं आसतात*
*घराच्या आडोसाक*

एका काळार शारांत लेगीत झाडांक आपलें अस्तित्व आसतालें. तीं घरांच्या भितोडेक आसतालीं. त्या घराचोच भाग जावन, आज घरांचेर मजल्यार चडटात. आनी त्या आगाशांचेर कावळे भोपशें तेळीत बसतात. झाडांक लागून सवणीं येतात. पूण आतां तांकां खेळपाक आंगण ना... उडपाक मेकळें मळब ना. 'तें आसता सदांच/श्वासा - उश्वासांनी भरिल्लें!' ही खंत. आतां शारांतले जीवित उखलापें जालां हे कवी हांगा सुचोवंक सोदता.

'शहर वाडत आसा' ही कविता शाराची आंतरीक व्यथा उक्तायता. काळोख देंवता तशे शारांतले दिवे लखलखून पेटूंक लागतात. लोक आपलो वावर सोपोवन घराचे भितोडेक परतूंक लागतात. कवी रातीक म्हण्टा यंत्राच्या तालाचेर तूं तांकां आल्लय गाय. ह्या शारांतलो काळोख रंगार येता तशी रातीक चडटी कळा येता. सांतोणेच्या उग्र वासाचो तिका उन्माद चडटा. पूण कवी मात त्या शाराच्यो व्यथा जागयता आनी नक्षत्रांच्या अर्थहीन उजवाडांत आपल्या सपनांचो एक एक जुंवो बुडिल्लो पळयता.

*शहर वाडटा*
*तितलें अनवळखी*
*जायत जायत*
*मनीसपण विसरता*

कवीक ताची खोल खंत आसा. आमच्या देशांतलीं सगळीं म्हानगरां पळयल्यार ताचो अणभव येता. मनशाचें अस्तित्व पुराय विर्गळून गेल्लें दिसता. तो शाराक उद्देशून म्हण्टा, तूं कवीच्यो व्यथा तळमळे समजून घे. आनी ताका ल्हान भुरग्यावरी खांदार घालून आल्लय गाय.

(पान ३२ चेर)

# सखाराम

दादा हेगडे

'श्रीरामा पुरुषोत्तमा, नरहरी, नारायणा, केशवा'... भजन गायतल्याले शब्द खंयचे आनी वांगडा वाजपी पेटयेवेले सूर खंयचे हें समजप कुस्तार जातालें. सखाराम इतल्या नाकसुऱ्या आवाजांत भजनां गायतालो, केपेंच्या दत्त मंदिरा कडसून पासार जातना जर पेटी आनी तबल्याच्या सांगातान हे नाकसुरे शब्द कानार पडले कीं समजुपाचें, देवळांत चलतल्या भजनांत पेटयेर सखाराम बसला. ताचें उलवप लेगीत सामकें नाकयां आवाजांत आशिल्लें. कुसमणच्या श्री मुदेश्वराच्या देवळांतलो सोमार जांव, कुशावतीच्या देगेवेल्या श्री दत्त म्हाराजांचो बिरेस्तार दोनुय भौ. रामनाथ, येशवंत, रामुलो, जगन्नाथ, सखाराम ह्या केपेंच्या हौशी भजनी मंडळा बगर केन्नाच पुराय जाय नाशिल्ले. मंडळांत मर्दी कांय वेळार गावपी, तबलें वाजवोपी वेगळे आसताले. पुण पेटयेर मात सखाराम हो थारिल्लो. ह्या मंडळाक ना कसली तालीम ना संगीताचें कसलें शास्त्रीय शिक्षण. आशिल्लो तो फकत भजनां गावपाचो पोटभर घोस्त. ल्हानपणा सावन हांच्यो ह्यो भजनाच्यो मैफिली आयकत आयिल्ल्यान आज जीबेर भजनाचे चार शब्द घोळूंक शकले. सुरवेक नमन, अभंग, गवळण, भैरवी गायल्या उपरांत आरती म्हणप हें हांच्या कडसून शिकूंक मेळलें. तांची बिना बिदागीची मैफील म्हळ्यार नितळ भक्ती आनी संगीताचो मेळा मेळ. हांच्या भजनाचें सूर म्हळ्यार चाफ्यांच्या रुका पोंदच्यान पासार जातनाचो हय न्हयसो नाकांत दरवळपी सुखदिणो सुवास!!

कांय वर्सां फाटीं केपें बाजारांतल्यान मडगांव वचपाच्या मुखेल रस्त्याच्या दावे अर्दान आल्बेर्त सौझा उर्फ आबी भाटकाराल्या प्रेद्यांत मुसराद आंब्याच्या गार्फामुळा एक निळ्या कोराचो गाडो नजरेंत वतालो. कारण थंय त्या जाग्यार तो एकूच गाडो आशिल्लो. हो गाडो म्हळ्यार बिस्कुती आनी पाव मेळापाची केपेंची 'भारत बेकरी'. केपेंकार त्या गाड्याक सखारामालो गाडो म्हणटात. आयज लेगीत ह्या गाड्याचो रंग आनी नांव तेंच आसा. फकत बदल्ला तो जागो. केपें म्युन्सीपालटींत उदरगतीच्या निमतान जागो आपल्या ताब्यांत घेतल्या उपरांत ते आंब्यांचें झाड मारलें आनी तो गाडो थंयच मातसो मुखार हेर गाड्यां मदीं हालयलो. केपेंची फामाद खारी बिस्कीट मेळपाचो हो गाडो. कांय लोक ह्या बिस्कूतीक पिळांची बिस्कूत अशेंय म्हणतात. ही ताजी रुचिक कुरकुरीत बिस्कूत एका वेळार गोंयभर फामाद जाल्ली. केपेंकार तर आपल्या सोयऱ्यां दायज्यांक सागवाद म्हण ही बिस्कूत पावयताले. हाच्या भायर फाती, बोंटा, बटर, आलें, गुपचूप असल्या नावांच्यो बिस्कूतीय हांगा विकपाक आसताल्यो. ''जाणा मरे म्हाजी खारी आतां अमेरिकेंत लेगीत पावलीं.'' सखारामान ही गजाल एक फावट म्हाका आपलें हड्डें फुलोवेन नाकयां आवाजांतल्यान नेटान सांगिल्याची याद जाता. कुडचडेंच्या एका मिनेराची चली लग्ना उपरांत घोवा वांगडा अमेरिकेंत रावंक गेल्ली. थंय तिका तिच्या गुरवारपणाच्या दुवाळ्यांत केपेंची खारी बिस्कूत खावपाची रूच आयली. तिच्या घरच्यांनी ही खारी बिस्कूत खासा हांगासावन मागोवन थंयसर व्हेली. त्या दिसांसावन सखारामाली खारी बिस्कूत खरेपणांन International जाली.

सखाराम ब. गांवस आनी ताचो भाव वांटे ब. गावस. दोगुय मूळ पेडणे गांवचे. वांटेक लोक बाबी गांवस ह्या नांवान लेगीत वळखताले. गोंय सुटकेच्या थोडीं वर्सां आदीं, केपेंच्या पावलीन पोदेराच्या खोर्नार उंडे भाजपाचें काम करच्या पासत हे दोगूय भाव जुवानपणांत केप्यां पावले. कुसमणां बिराड करून रावले. पावलीनाच्या खोर्नार उंडे भाजप आनी दुसऱ्या दिसा ते पाट्यांत घालून माथ्यार घेवन गिरायकांक विकप असो तांचो सदांचो नेम थारिल्लो. हे उंडे विकतानां त्या वेळार दोगूय भावांच्या लक्ष्यांत एक गजाल आयली, ती म्हळ्यार त्या तेंपार केप्यां पाव बिस्कूती विकपाचो कोणालोच खास असो माण नाशिल्लो. आशिल्ले ते सगळे भुसारी सामान विकपाचे पसरे. पावलीन पोदेर आनी सांतान पोदेराली अशीं दोन खोर्नां. तीवूंय फकत पाव भाजपाचीं. गोंय सुटके उपरांत निकतेंच माथ्यावेल्या पाट्यांतल्यान उंडे विकप बंद जायत आयिल्लें. सायकलीक फाटल्यान पांटे बांदून उंडे विकप सुरु जाल्लें. त्या वेळार केप्यां कोंडी वाड्यावेल्या ख्रि. मिंगेल फ्रांसीस गोन्सालवीसाचो सायकली भाड्यान दिवपाचो धंदो आशिल्लो. दोगूय भावांनी ताच्या लागीं भाड्यान सायकली घेतल्यो आनी पावलीनाले पाव, उंडे विकप सुरु केले. फुडें ताच्या वळखीन ताणी केपें पुला पलतडीं, त्रिबुनाला लागसार आशिल्लें त्या मिंगेलीले घर भाडयान रावंक मागलें. ताणेय तें तांका दिलें. कुसमण सावन आपलें बिन्हाड हालोवन सखाराम आनी बाबी फामिलीसकट पुलाच्या पलतडी मिंगेलील्या घरांत रावक लागले. मिंगेलील्या त्या बिराडांत ताणी स्वताचें आपल्या मालकीचें पयलें खोर्न बसयलें. हांगाच केपेंची खारी जल्माक आयली अशें म्हणू येता!!

कांय तेंपान बाबीन आपलो दुसरो धंदो सुरु केल्ल्यान, बेकरीची जापसालदारकी सखारामाचेर पडली. पाव, उंडे हांचे वांगडा हेर बिस्कुतीय विकपाचो धंदो ताणे आल्बेर्त भाटकाराल्या त्या प्रेद्यांतल्यान चालू दवरलो. लांब कालसांव, ताचेर निवळ धुविल्लो बुशकोट घाल्लो सखाराम गाड्यार चडश्या वगतार उबोच राविल्लो दिसतालो. खारी बिस्कूत दर दिसा ताजी तयार जाताली. ती दिसाक दोन वेळची मेळटाली. सकाळीं धा वरांर आनी सांजवेळां चार वरां उपरांत. तिवूय ताजी गरम गरम आसताली. बिस्कूत मेळपाचो हो असो वेळ थारिल्लो. गिरायक लेगीत जुस्त ह्या वेळार हजर जाताले. ताजी गरम गरम खारी, गरम चा वांगडा खावपाची वेगळीच मजा आशिल्ली. ही मजा फकत केपेंकारांनीच अणभवल्या अशें म्हणल्यार अतिताय जावंची ना. कुरकुरीत सगळ्या अर्दानी जुस्त भाजिल्ली, खारसाणेन जाय तितलीच भरसटलेली, घट्ट पिळाची फुलिल्ली, दुगदुगीत बिस्कूत, गरम गरम चायेंत बुडोवन जीबेर

*(पान ३२ चेर)*



# चायोबोयो

माया अनिल खरंगटे

''सुप्रिया, विशाल तुमी त्या वृद्धाश्रमाचे कार्यावळीक वचात.''

- ''हय सर, पांचांक ती कार्यावळ. आमी साडेचार म्हळ्यार भायर सरतात.'' विशालान म्हळें.

-''नाका मात्शें पयलीं भायर सरात. थंय चार जाण्टयांकडेन उलयात. सुप्रिया, तुका कितेंय खबरी मेळटल्योच. मागीर तांचेर बरे लेख बरय तूं. चलात रोखडीं भायर सरात.

-''हय सर, म्हज्याय मनांत तेंच आशिल्लें. आमी भायर सरतात. म्हजे वळखीची एकटी आसा थंय. तिकाच वचून मेळटां.'' सुप्रियान उमेदीन सांगलें.

'नवी दिका' ह्या दिसाळ्यांत सुप्रिया काम करता. कविता, लेख बरोवपाची ताका पयलींच आवड आशिल्ली. तातूंत ह्या दिसाळ्यांत ताका मुखेलपणान आयतार पुरवणेचें काम दिल्लें.

आज संपादकान ताका वृद्धाश्रमांतले कार्यावळीक वच म्हणटकर ताका उमेद जाली. विशाल आनी तें रोखडींच भायर सल्लीं.

वृद्धाश्रमांत पावले बरोबर विशालान सुप्रियाक म्हळें, -''बरें गो आमी हॉलांत मेळया. कार्यावळ सुरू जावंचे पयलीं येतां हांव, बारीकशी फोटोग्राफी करुंक मेळटा जाल्यार पळयतां. तूं कर तुजें काम.''

-''हय, चल तूं. हांव अकरा नंबराचेर वतां.'' सुप्रियान विशालाक सांगलें आनी तें अकरा नंबराच्या कुडींत वचूंक भायर सल्लें.

अकरा नंबराचेर काकीबाय रावता. काकीबाय आनी सुप्रियाची चडच इश्टागत. वृद्धाश्रमांतल्या सगळ्यांच्यो सगळ्यो गजाली काकीबायक खबर आसतात.

सुप्रियाक पळोवन काकीबायच्या तोंडार हांसो उदेलो, -'यो बाये यो, रुमडा फूल जालां तूं हालीं. कितल्या तेंपान आयलां गो तूं. आज मात सकाळपासून तूं येतलेंचशें दिसतालें म्हाका. जाणा तूं हांगा जायत्यो घडामोडी घडल्यात.

-''हय? म्हणून हांव बेगीन आयलां तुज्या म्हर्‍यांत बसूंक. कार्यावळ पांचांक न्हय?''

-''हय गो, पूण ह्या इल्ल्याशा वेळांत कितलेंशें उलयतलीं आमी? तातूंत तूं आयलां म्हूण कळ्ळ्यार पुरो, ती गोमती, सावित्रीबाय, मिराबाय येतलीं तुजे कडेन उलोवंक. यो आमी भितर बसूंया.''

-''तुजी सांगातीण खंय? धुवेगेर गेल्या?''

-''खंय गो, धुव जांव पूत. कोणाकूच नाका आसतात आमचे असलीं जाण्टीं खोडां, एकदां हांगा हाडून दवरलीं काय निमतां सांगून मेळपाक सुद्धां येवप ना. सगळीं स्वार्थी.''

-''हय गे, आदार करतासर फायदो घेवप.''

-''पाडपडूं ह्यो खबरी. आमचीं रडगाणीं केन्नाच सोंपपाचीं न्ही तीं. आगो, सद्या आश्रमांत दोन नव्यो बायलो आयल्यात. एक कोण जाणां, ती तुजेभशेन काणयो बी बरोवपी पळय, 'निर्मला नार्वेकार.''

-''निर्मलाबाय! आरे! ती एक खांपी बरोवपी. जिणेचें तत्वज्ञान, जिवितांतली विविधताय ती सुंदर तरेन आपल्या साहित्यांतल्यान उगडून दाखयता. तिका पळयल्यार अशें दिसता, ती एक समृद्ध जीण जियेल्या. तृप्तीचो हांसो सदांच तिच्या तोंडार दिसता. वा तिका मेळपाकच जाय.''

-''हय, हय, वचच तिका मेळपाक.आतां तुवें हें कितें तिचें वर्णन केलां न्ही, तें सिनेमांत, नाटकांत तोंडार जशें पळे रुपडें घालतात न्ही तशें ती घालून वावुरता, म्हणपाचें तुका कळटलें.आज तिचेंच भाशण आसा.''

-''अशें, बरें जालें तर, आज म्हाकाच कार्यावळ कवर करपाक धाडलां. पूण काकीबाय तिणे रुपडें घालां अशें कित्याक म्हणटा तूं?''

-''सगळें म्हाकाच उलय म्हणटा? तूं मेळ तिका, कळटलें तुका. संवसारांत मगो कोणच पूर्ण सुखी नासता. प्रत्येकाच्या सांबीत रुपा फाटल्यान आनीक एक रुप लिपिल्लें आसता. थोडीं रडून दाखयतात, थोडीं हांसून दाखयतात, पूण त्या रुपड्या फाटलें रुप वळखणारींच वळखतात.''

-''खरें तुजें काकीबाय. आज कित्याचेर उलयतली काय ती?''

-''आज 'चायो बोयो' ह्या विशयाचेर उलयतली खंय ती.''

-''म्हळ्यार गे?''

-''कळटलें तुका, चल हांव भायर सरतां. मात्शीं बेगीनच या आमी. मुखार बसूंक मेळटलें. आज भायले लोकय येवपाचे आसात.''

सुप्रिया काकीबाय बरोबर हॉलांत आयलें. कोण-कोण हडकितात तांकां जाप करत सुप्रिया पत्रकारां पासत दवरिल्ल्या कदेलार वचून बसलें.

सगळी कार्यावळ बरे तरेन मुखार वताली निमणे निर्मलाबाय उलोवंक उबी रावली.



हॉलांत ताळयांचो कडकडाट जालो.

समाधानाचो हांसो तोंडार खेळयत निर्मलाबायन मायक हातांत घेतलो. अर्दवरापरस चडच ती उलयली. थंड रावन सगळो हॉल आयकतालो. सुरवातेकच तिणे 'चायोबोयो' म्हळ्या बरोबर बायलांच्या अर्दान कुजबूज सुरू जाली, ''आमकां किते पोस करपाक शिकयता ही? पोस करून, चायोबोयो करून आमचे हात करंजेले.''

सुर्वेक जरी बायलांचो कुचकूच जालो तरी मागीर सगळीं जाणा शांत रावन तिचें उलोवप आयकूंक लागलीं.

सुप्रिया तल्लीन जावन तिचें उलोवप आयकतालें. जाय-जाय तेच महत्वाचे पोयंट बरोवन घेवंचे बदला, ताणे तिचें चडशें भाशणच बरोवन घेतलें.

कार्यावळ सोंपतकच सुप्रिया घरा आयलें. लेपटॉप घेवन बसून ताणे बातमी करून ऑफिसांत धाडली. आनी तें रांदचे कुडींत आयलें.

जेवण जातकर फाटलीं कामां तें जाग्यार घालूंक लागलें. पूण ताचें मन मात निर्मलाबायच्या भाशणांतच घुस्पून आशिल्लें. चड करून चायोबोयो ह्या उतरा भोंवतणी. एक प्रस्न ताच्या मनांत परत परत येतालो. ही इतली तृप्त बायल, ती समृद्ध जीण जियेल्या अशें आमी सगळीं मानतात, जाल्यार ती अशी कशी उलयली? भरिल्ल्या पोटाच्या मनशाक उपाशीं आशिल्ल्याचे तळमळे कशे कळटले? जी व्यक्ती अती दुःख सोंसता, तिकाच दुसऱ्याचें दुख बरे तरेन कळटा असो म्हजो समज आशिल्लो. पूण आज निर्मलाबायन तो फट करून दाखयलो.

निर्मलाबायक परत मेळुंकच जाय. तिचें तृप्तीन भरिल्लें तोंड म्हळ्यार तिणे म्हजे भशेन तोंडार घाल्लें रुपडें बी न्ही मू? काकीबाय येदोळ अशेंच कितेंशें म्हणी. शेर्त, तिच्या चकचकीत तोंडावेले नेमके दोळेच सत्य सांगताले. दुखाची एक दाट सया म्हाका तिच्या दोळ्यांत दिसताली. पूण त्या वेळार म्हाका दिसलें, हो म्हाका जाल्लो भास आसतलो म्हणून. कारण म्हाका सदांच कितलेंय सुंदर चित्र आसल्यार तातूंत खंय तरी दुखाची सया दिसता. घडये हांव म्हज्या दुखाच्या वक्लान सगळेकडेन पळयतां न्ही? म्हणून म्हाका तशें दिसता जायत. कामीण जाल्ल्याक सगळेंच हळदुवें दिसता म्हणटात तशें. आनी कितेंय लिपोवप सोपें पूण मनाच्यो व्यथा, लिपयल्यो म्हणून थोड्योच लिपून उरतात. त्यो तोंडार न्हय जाल्यारय दोळ्यांत तरी उदेतातच.

निर्मलाबायकडेन उलोवंक बेगीन वचूं जाय, मागीर चायोबोयो एक बरो लेख बरोवंक मेळटलो.

तिच्या उतरांनी सांगप जाल्यार म्हज्याय जिणेचो, बऱ्यो सुल्ली पडून फुलून आयिल्लो पोस जालोच ना. फकत चायोबोयोच जाल्यो. मातशी रूच आसा पूण अर्थ ना, पोसाचे गुळे-गुळे आनी उदकच उदक जालें.

लोकांचे नदरेन हांव सुखी, उच्च शिक्षित पूण हें शिक्षण लेगीत घेवंक हांवे आकांत धडपड केल्या. पावला-पावलाक म्हाका जिणेकडेन संघर्श करचो पडला. ट्यूशनां दिवप, कपडे शिंवन दिवप, साड्यो फोल-बिर्डींग करून दिवप, शी, एक आनी दोन कामां केलीं ना. पै-पयसो जमोवन म्हणटात तशें शिक्षण घेतलें. बापायच्या संवसाराक हातभार लायलो.

घरांतलीं सगळींच म्हजे भशेन म्हज्या शिर्वीसेची वाट पळयतालीं. म्हाका एकदांची शिर्वीस मेळटली आनी आमची परिस्थिती सुदारतली म्हणून. पूण खंयचेकडेन कांय ना. म्हज्या वर्गांत शिकपाक फाटीं आशिल्लीं भुरगीं लेगीत उच्च शिक्षणा फाटल्यान लागनासतना नोकरेच्या फाटल्यान लागलीं, आनी आज आपल्या पांयार उबीं आसात, आनी हांव, अजुनय धडपड, कश्ट आनी कश्ट उसपितां.

हावें ग्रेज्युयेशन केलें, बी.एड्. केलें. फकत डिग्र्यो घेतल्यो. पूण नोकरेक, म्हजो वेळ काय नशीब कितें तरी आडवें आयलें. म्हजी भितल्ली इत्सा आशिल्ली शिक्षक जावपाची. तीय पुराय जाली ना. आमच्यो तश्यो वळखीय नाशिल्ल्यो, आनी वयल्या लोकांक खावोंवक पयशेय नाशिल्लें. निमणे परत ट्यूशनां, शिवण सगळें सुरू केलें. परत धडपड कश्ट आनी कश्ट.

म्हज्या त्रासांचे जिणेन म्हाका पेन हातांत घेवपाक लायलें. 'खंयचीं पुण्यां अशीं येतात फळाक' म्हणिल्ले भशेन ती एकच म्हजे जिणेंत बरी गजाल घडली.

थंय लेगीत जायतें भोगलें. सोड, थंय लेगीत म्हाका नशिबान खिचडायलें. म्हाका कितेंच सुखा सुखी दिलेंना. फकत धडपड, कश्ट आनी कश्ट.

सगळ्याच मळार धड कांयच मेळ्ळें ना म्हाका. आजी म्हणी 'मासय न्हय, आनी मासकणय न्हय म्हणून. तशी म्हजी जीण.

म्हजें लग्न उसरां जालें. त्रास सोंसून सोंसून उसरां भुरगो जालो. पूण जिणेक म्हज्या स्थिराय आयली ना. धडपडप, संघर्श आनी कश्ट हाचे बगर एकय दीस गेलो ना. पुतान धड शिक्षण घेतलें ना. ताका नोकरी मेळ्ळ्या तिकाय दम ना. म्हजे धडपडेक मात्सो विसव मेळटलो काय दिशिल्लो. पूण ना, ताचो पगार ताकाच पावल्यार पुरो म्हणपाचो वेळ.

घरकारान म्हणून कितें केलें? कोणें शिट्ट म्हळें म्हणून नोकरी सोडली. फाटलो फुडलो विचार केलो नां. म्हज्या धडपडीक आनी कश्टांक विसव मेळ्ळो ना.

हांव चांटये-पावलाक कितलो अपमान सोंसून हो संवसार गाडो चलयतां, हांकां कशें कळटलें? इतले त्रास काडल्या उपरांत आतां म्हाका ही मना सारकी नोकरी मेळ्ळ्या. पगार कमी. जावं, हांगा रस्पेत आसा आनी काम आवडीचें. कश्ट काडचें पडूं. ते हांव ल्हानपणांतल्यान काडत आयलां. आजी म्हणी, नशिबाचो सांगात आसले बगर कोणच वयर सरना.

म्हाकाय जिवितांत नशिबाचो सांगात जाय तेन्ना मेळ्ळो ना. म्हणून म्हज्या जिविताचो पोस फुलून आयलो ना. फकत चायोबोयो जाल्यो. हांसपाचें रुपडें हांव तोंडार चडोवन वावुरतां. म्हणून तर सगळीं म्हाका सुखी -समाधानी समजतात. शेर्त निर्मलाबायचेंय अशेंच कितेंय जालां आसतलें. तीवूय तोंडार रुपडें चडोवन वावुरता आसतली. म्हळ्यार तिच्याय जिविताच्यो चायोबोयोच जाल्यात जातल्यो.''

'चायोबोयो' ह्या विशयाचेर लेख बरोवंचो म्हणून विचार करूंक बशिल्ल्या सुप्रियान मनाचो ओग कागदार देंवयलो आनी पेन धांपलें.

संपर्क: 94420685278

***



# लाशें

# कथा

**अरुण साखरदांडे**



रमाईक शंकराखातीर शिरो करपाचो आसलो. तिणे फटाफट सगली तयारी केली. शंकराक शाळेंत वचपाक उशीर जांवक फाव नासलो. दोन म्हयन्या पयलीं ताका पयले यत्तेक बसयल्लो. सद्या तो बाराखडी शिकतालो. सांजेच्या वेळाक रमाई ताका घेवन बसताली आनी श्रीगणेशा चिरूंक शिकयताली. शंकर मन लावन अभ्यास करतालो. अशेंच कांय दीस गेले, मर्दींच रमाईच्या कुळाराच्या देवराईचो वार्षिक स्थापना दिस आसलो म्हूण ती आधाराक शेजारच्या वासंतीक घेवन स्थापना उत्सवाक गेली आनी थंयच नांवरुप घडलें. रमाई तळमळ्ळी, तिका तें कशेंच सहन जायना जालें.

तिची वावराडी तिका उलो मारून उठयताली. रमाई भयभीत अवस्थेंत उठून बसली. मागीर तिका सगळी रामकाणी याद जाली. आनी ती घुसमटून घुसमटून रडूंक लागली. तिका सपनांत शंकर दिसलो. देवराईच्या स्थापने दिसा गर्देंत शंकर खंय नाच्च जालो. खंय शेणलो कांयच कळूंक ना. ती सोयऱ्यांगेर धांवली. पुलीशेंत कळयलें. एका फाटल्यान एक फावटी मारल्यो. पुण जादू जाल्लेवरी नाच्च जाल्लो. दोन दीस देवराईच्या हुंबऱ्यार तकली दवरून चूक मागली, सांगणे केलें, प्रसाद घेतले. खंयचेकडेन कांय ना. तिचो घोव नामो तर पिशांतूर जाल्ल्यावरी हांगा थंय भोंवूक लागिल्लो. सगळोच घराबो थतर वितर जाल्लो. पांयापोंदची जमीन नाच्च जाल्ल्याबशेन जाल्ली. मागीर म्हयने गेले, वर्सां गेलीं. सोळा वर्सांचो वनवास भोगलो तरी शंकराचो पत्तोच लागलो ना.

शंकराच्या फाटीर कसल्यातरी झाडाबशेन एक लाशें आशिल्लें. तें आशेर रमाई दर वर्सा पुलिशींत फावटी मारून चवकशी करताली. आवयचें काळीज पूण हार्लीसरा तिका शेजाऱ्यांनी पिशांत काडिल्ली. पूण आवयच्या कुशीचें दुख्ख समजून घेवपाची तांक आज कोणांक उल्लेली ना.

ते उपरांत कांय दिसांनी अकरांक सुमार कोणेतरी दारार उलो माल्लो कसो तिका आयकूंक आयलो. ती भायर येवन पळेत जाल्यार एक बावीस-तेवीस वर्सांचो भुरगो दारार उबो आसलो. भुकेल्ली नदर, सादेशे लोळके कपडे, एक ल्हानशी पिशवी, ताचो उलो आयकून रमाईचें काळीच पाझरलें. तिचो शंकर आशिल्लो जाल्यार एदोच जावपचो, तिका दिसलें. रमाईन ताका हातपांय धुंवक उदक दिलें,एक शेंदरी जमनीर घाली, हांत पांय पुसपाक वालो दिलो.

रात्नीर पेज शिजताली. उकड्या तांदळाचो गोड वास सुटिल्लो. ताटलेन तिणें पेज वाडली. सकाळची वालाची भाजी आशिल्ली ती वाडली. लिंबाच्या लोणच्याच्यो फोडी वाडल्यो. त्या भुरग्याक बरीच भूक लागिल्ली. तो पुस्सून जेवलो आनी खोशयेचो ढेकर दिलो.

त्या भुरग्यां फुड्यांत तिणें बसकण मारली आनी ताच्याविशयी वासपूस केली. तो अनाथ आशिल्लो. खंय तरी आश्रमांत रावतालो. हांगा दोन तीन म्हयने परत प्रवास करून तो भोंवतालो. रातचो देवळा सोप्यार न्हिदतालो. ताका आवय बापूय भाव, भयण कोण एक नाशिल्लो. आनी कोणाची यादूय नाशिल्ली. दिसभर भटकंती, कोणेय वाडल्यार जेवपाचें आनी वाट्रेक लागपाचें. ताणे कांय गांवाची नांवां रमाईक सांगली. पुण रमाईक काय समजूंक ना. तीय चड खंय भोंवूंक नासली. एक कुळार, आनी एक घोवालें घर, नाय म्हळ्यार खूब व्हडलें शेत आसलें भाट आसलें आनी करतो सवरतो घोव आसलो. आज सकाळफुडें उठून तो शेतांत गेल्लो.

तो भुरगो भायर सरतना रमाईक ताची काकुळट आयली. तिणे घोवाचो एक लेंगा आनी शर्ट ताका दिलो; एक वालो आनी पांगुरपाक बरीशी चादर दिली.

तो भुरगो वतना ती कितलोसोच वेळ दारार उबी आसली. मागीर ती घरांत येवन जेवणाची तयारी करूंक लागली. दनपरां घोव घरा आयल्याबरोबर तिणे भुरग्याची सगळी गजाल घोवाक सांगली. घोवान सगळी काणी आयकून घेतली. रमाईच्यो असल्यो काणयो आयकुपाची घोवाक संवंय आसली.

ती जेवन बसल्या थंय आसा इतल्यान रमाईची चार-पांच वाडेपेल्यान रावपी इश्टीण घरांत घुसली. तिचे हड्डें धांपेताले आनी तोंडातल्यान उतर फुटनासलें. रमाईन तिका उदक पियोवपाक दिलें आनी ती किर्ते सांगता तें आयकूंक लागली. इश्टीणीन सांगलें की, तिच्या पुताक शंकराक तिणे पळेलो. तिच्या शेजात्रील्या बांयचेर न्हाता आसतना. ताच्या फाटीर झाडासारखेंच लांशे आशिल्लें.

हें आयकून रमाईक घुंवळ आयली. सकाळी तिगेर पेज जेवन गेल्लो तोच भुरगो जांवये, तिणे रमाईच्या तोणार उदक माल्लें. रमाई उठली तशी सगळी जाणां इश्टीणीच्या वाड्यावटेन धांवूक लागली. सगळेकडेन बोवाळ जालो. वाड्यावयले लोकूय तांचेवांगडा भायर सरले.



बांय बरीच खोल आसली. सगळ्यांक उदक मेळचें म्हूण ग्रामपंचायतीन ती बांय बांदून घेतिल्ली.

बांयचे दावेवटेन आंब्याचे झाड आसलें आनी उजवेवटेन एक तन्या पणसांचे पाचवेचार झाड ओणव घेवन बांयच्या उदकान आपलो चेरो तोखेताले. ताच्या सावळेन बांयचे उदक आनिकूय थंड जाल्लें. दर एका कोळसुलेवांगडा शंकराच्या कुडींत नवी शक्त उदेताली. दोन दीस जाले ताका बरें न्हांवक मेळूनाशिल्ले. परत केन्ना अश्या बांयचे उदक मेळत ते सांगू येना आसले म्हूण तो खोशयेन न्हावपाक गुल्ल जाल्लो. उगड्या गोऱ्या फाटीवयलें लाशें झाडाक कोमऱ्यो फुटील्ल्यावरी ताका बरें सोबतालें.

इतल्यान बांयचेर आनीक एक तरनाटो आयलो पयसुल्ल्यान आयिल्लो. धांवत आयिल्ल्याखातीर ताचे काळीज धांपताले. शंकराक पळोवन ताणे हांशिल्लेवरी केलें आनी एक शिळोणी माल्ली तशी पयसुल्ल्यान आनी एक शिळोणी आयकुपाक आयली. पयसुल्ल्यान शंकराक कांय जाण्टे तरणाटे बायलां धांवून येतात अशें दिसलें. हें आनी कितें अजाप? अशें तो येवजिता म्हणसर वीस-पंचवीस लोक ताच्या भोंवतणी घेराव घाल्ल्या बशेन घट्ट उबे रावले. ह्या सगळ्या मनशावांगडा सकाळी ताका पेज वांटून धादोस करपी ती बायल आसली. ताका पळोवन ती धांवत फुडे आयली आनी ताका घट्ट वेंगेंत घेतलो. ताका घुसमटल्लेवरी जालें. तो काचाबुल जालो.

भोंवतणच्या सगळ्या लोकांक तिणे सांगलें, "हे फाटीवयले लांशे पळयात, हो म्हजो पूत. इतलो वर्सां हांव तुमका सांगताली एक दीस तरी म्हजो पूत येतलो आतां म्हजो सोळा वर्सांचो वनवास सोंपलो.

दोंगरावेल्या बाबरेश्वरान म्हजेर कृपा केली; प्रत्येक आयतारा हांव ताचेसरी वचून ताचे हुंबऱ्यार तकली तेंकयताली. देवी देवराईन म्हजो लिपोवन दवरलेलो पूत म्हाका परत दिलो. तुमच्या सगळ्यांच्या आशिर्वादान ही धर्तरी आनी देवदेवतांनी म्हजेर कृपा केली. तिज्या वांगडा आशिल्ल्या तिच्या घोवान सांगलें, "उखलात रे हाका आनी घरा घेवन चलात." चेड्डेर वालो गुठलायिल्ल्या अवस्थेंत दोगांनी ताका उखल्लो. रमाईच्या इश्टीणीचो पूत खंयच्यान तरी तासो घेवन आयलो आनी शंकराची पालखी रमाईच्या घरावटेन चलूंक लागली. रमाईचो पूत सोळा वर्सांनी सांपडलेल्यान सगळ्या गांवाचेर खोशयेचो भार आयिल्लो.

दुसरे दिसा पंचायतीची बसका जाली. रमाईन शंकराच्या फाटीवयले लाशें दाखोवन होच आमचो सोळा वर्सांपयली देवी देवराईच्या स्थापना दिसा शेणिल्लो पूत म्हूण सोपूत घेतलो. शंकराक कसलोच पुरावो दिवंक मेळ्ळो ना. तो एका आश्रम शाळेत ल्हानाचो व्हड जाल्लो आनी थंयसून तो धा वर्सांपयलीं पळून गेल्लो अशी म्हायती कळ्ळी. मागीर एकमतान गांवकारांच्या साक्षीन पंचायतीच्या सचिवान तशी कागदां केली. पंचाच्यो आनी साक्षीदारांच्यो सह्यो घेतल्यो. आनी शंकराक रमाईच्या सुवादीन केलो.

रमाईचो पूत सांपडलो ही खबर आयकून रमाईचो धाकटो भाव सदानंद आपल्या धुवेक सुरंगेक घेवन बेगीबेगीन भयणीच्या घरा पावलो. तो चिऱ्या खणीचेय काम करतालो आनी चीरे मारून मारून ताच्या हाताक खिणां पडिल्लीं.

रमाई आपल्या भावाक सदानंदाक घेवन घराभायर गेली आनी शेतावटयां हात करून ताका सांगलें आमचे णव एकर शेत आसा जेवंक खांवक मरण ना. पाड्याक हजार नाल्ल पडपी भाट आसा. बाबरेश्वराच्या दोंगरावटेन बोट दाखोवन तिणे सांगलें, बाबरेश्वराचो अर्दो दोंगरभर आमच्यो काजी आसात, आतां हें सगळें तुज्या सुरंगीचें. मान्य आसा मरे तुका? सदानंदान म्हळें, आनी कितें जाय आमकां, तूं थारायता तशें जालें.

चार दिसांभितर लग्न जावंक जाय. खर्च सगळो आपूण करतलीं. आतांच भटाक आर्फोवक धाडटा. फाल्यां शारांत वचून भांगरा शिंगरा घेवंया. सुरंगी बापायच्या कुशीक रावन सगळें आयकतालें. आसा मगो तुका आमचो शंकर पसंत? तशें तें लजलें आनी घरांत धांवलें, तसो गोरो पिट्ट शंकर ताका खूब आवडलेलो.

ताचे दोळे शंकराक सोदूंक लागले. तो फाटलेवटेन आंब्याच्या झाडामुळांत बशिल्लो. सुरंगीन लजत लजत ताच्या कानार लग्नाची गजाल घाली आनी तें ओडीत ताका लागशिल्ल्या ताच्या शेतार घेवन गेलें.

शेतांत वायंगणे पीक गच्च भरिल्लें. कुशीकच्या वडाक शेंकड्यांनी तांबडी फळां भरिल्ली आनी नर कोगुळ काळजांतसून तीव्र आवाजान चित्कारताले.

सुरंगी तशें बरें दिसतालें, सुरंगीच्या फुलांबशेन. वाटकुळें मुखामळ, नाजूक पूण भल्लेली कुड. शंकराक कांयच येवजना जालें. जें घडटा तें ताणे केन्ना येवजूंक नासलें. असो प्रसंग ताच्या आयुष्यान केन्नाच येवंक नासलो. मागीर सुरंगी शंकराक भाटांत घेवन गेलें. थंय सुरंगीचो आतो आनी दोन मानांय झाडांक आळें काडटालें. उसकेची पानां, खांदे आनी तरेतरेच्या झाडांची पानां घेवन तांका सांवळ घालूंक जाय आसली. सुरंगेक पळोवन आतो हांसलो आनी सुरंगी लजलें. थंयसून ती कुशीकच्या व्हाळाकडे थोडो वेळ बसलीं. वयर दोंगरावेल्यान माड आनी माडयां मदसून व्हाळ सकयल व्हांवत न्हंयक मेळटालो. थंयसून न्हंयचे उदक दर्याक मेळूंक धांवताले, सुरंगेबशेन. सुरंगी आता शंकराक मेळटली आसली. न्हंय आनी दर्याचे मिलन जातलें आसलें.

लागीच वयल्यावटेन बाबरेश्वराचो दोंगर दिसतालो. बाबरेश्वराची पूजा बी सोंपोवन नागुभट दोंगर देंवतालो. आता जाण्टो जाल्यान मदीं मदीं तो बसून झाडापोंदा विसव घेतालो आनी परत उठून चलपाक लागतालो.

हेवटेन तेवटेन कोण नाशें पळोवन सुरंगीन शंकराक घट्ट वेंग माल्ली.शंकर थतर वीतर जालो आनी ताका कितें करचें तें कळना जालें.

ताणे म्हळें, "आतां उशीर जालो, घरा वचूंया आनी ती परतलीं. वाटेवयलो आंबो, तोरांनी गच्च भरिल्लो.

"आगो, खंय गेल्ली तुमी? रमाईन विचारलें. शंकराक शेत, भाट, दाखोवंक गेल्लें - सुरंगीन सांगलें.

दाखयलें मुगो सगळें भाट? काय उल्लां बी थोडे? तशें सुरगीं लजलें. सांजेचो भट बी आयलो. सोयरे धायरें जमले आनी पांचवे दिसाचो म्हूर्त काडलो.

शंकराचेर आकांत आयलो. ताका खबर आसलें तो रमाईचो पूत न्हय. ताका ह्या घराची कांयच याद नासली. कोणे तरी सामको ल्हान आसतनां ताका आश्रमांत हाडून सोडिल्लो इतलीच खबर. जांचो आपूण पूत न्हय तांका कित्याक फटोवप?

दुसरे दिसा रमाईन शंकर आनी सुरंगीबरोबर बाबरेश्वराक सांगणे घालपाचो बेत थारायलो. सुरंगी, रमाई, शंकर आनी रमाईचो भाव सदानंद अशीं चवगूय जाणां वचपाक भायर सरली. वोत तकलेर चडचे पयली परतून येवन मागीर जेवण रांदूक जाय आशिल्लें. उशीर जावक फावनाशिल्लो.

बाबरेश्वराच्या दोंगराचेर चडटना अर्दे वाटेर रमाईक खरस मारली. शंकर फुडें सरलो आनी रमाईक ताणे फाटकुळेक मारली आनी झपाझप तो दोंगर चडूंक लागलो. ताच्या बळिश्ट हातांनी ताणे रमाईक सहज तोलून धरिल्ली. कितलेतरी वर्सांनी रमाईक घट्ट आदार मेळिल्लेवरी जाले. तिच्या दोळ्यांन दुखां भल्ली आनी तिणें मनांतल्या मनांत बाबरेश्वराक नमन केलें.

देवळांत पावता म्हणसर शंकराक रेल्वेची शिटी आयकूंक आयली तसो तो देवळाच्या कडेर आयलो तेन्ना सकयल पयस रेल्वे धांवता ती ताका दिसली. एखाद्या सोरपाबशेन वळवळत ती रेल्वे हजारांनी लोकांक घेवन फास्ट धांवताली. वरां दोन वरांनी एक तरी रेल्वे आसतालीच. शंकराचो बेत थारलो. कर्शेय करून जाता तितले बेगीन रेल्वेन पळ काडचो. ताणे बाबरेश्वराच्या पांयार घालून घेतलें. आनी कर्शेय करून हें म्हजें काम कर अशें सांगणेंय केलें. बाबरेश्वर मोठ्ठ्या वाटकुळ्या दोळ्यांनी ताका पळेतालो.

परवां शंकर आनी सुरंगीचे लग्न आसलें. शंकराक न्हीद पडनासली. कर्शेय करून ह्या पांजऱ्यांतसून सुटका जावंची म्हूण तो हांतरुणार तळमळटालो. रातचीं बारा जाल्या आसतली. शंकर ल्हवू हांतरुणार उठून बसलो. ताणे कुडीचें दार उघडलें. सुदैवान भायल्यान खिळी घालूंक नाशिल्ली. काळखांतूच ताणे आपली पिशवी सोदून काडली. खुंटयेवेलो काळो शर्ट काडलो. काळी पँट घाली आनी माजराच्या पावलांनी तो हॉलाभायर सरपाक लागलो. हॉलांत लग्नाक आयिल्लीं सोयऱ्यां सुस्त न्हिदिल्लीं. तो मुखेल दारामेरेन पावलो. कोणाचो तरी आवाज आयलो म्हणून थंयच गुठली मारून बसलो. सगळे किण्ण जातकच ताणे ल्हवू दाराची खिळी काडली आनी भायर पावल दवरलें. आंगणांतल्यान ल्हवू ल्हवू तो गेटीवटेन पावलो. गेट उगडून ताणे रस्त्यार पावल घालतकच ताका विस्वासूच बसना जालो आनी सगळी शक्त एकटांय करून ताणे रेल्वे स्टेशनाच्या वटेन धांव मारली.

व्हडली व्हडलीं धेंपां मारीत तो चलूंक लागलो. ताणे फाटीं आनी वळून पळेलें ना. काळीज फुटसर तो धांवुक लागलो. गांव फाटल्यान उल्लो. इतल्यान ताका पयसुल्ल्यान रेल्वेची शिटी आयकुंक आयली. ताणें धांवपाची गती वाडयली, आनी पांच मिण्टांनी तो स्टेशनार पावलो. निकतीच रेल्वे स्टेशनांत भितर सरताली. रेल्वेचो वेग इल्लो इल्लो कमी जालो, तशे ताणें आपल्याक रेल्वेच्या डब्यांत घालून घेतलें, तो धांपेतालो, ताका खरेंच दिस नासलें.

एका मिण्टान रेल्वेन शिटी माल्ली आनी तिणे वेग घेतलो. काळखांत रेल्वे सुसाट सुटली. कुशीकच्या दोंगर माथ्यार बाबरेश्वराच्या देवळाची धवी आकृती दिसताली. शंकरान बाबरेश्वराक कोपरापासून नमस्कार केलो. फुडल्या व्होल्तार बाबरेश्वराचें देऊळ दिसना जालें.

संपर्क: 9422061702

***

*(पान १ वयल्यान)*

आनी जाणविकतायेचें प्रामाणीकपण नाशिल्ल्यान हांतलें बरेंचशें साहित्य काळाचे व्हांवतेंत खंयचे खंय नाच्च जावन गेलें. मात अणभवांची खराय आनी प्रामाणीकतायेची फाटभुंय लाभिल्ल्या चिलेच्या पाब्लो नेरूदाच्या कवितांनी मात ताच्या देशांतल्या माडुल्ल्या चिडुल्ल्या लोकांक तांच्या जिविताखातीर एक नवो सूर मेळोवन दिलो. पाब्लो नेरूदाच्या कवितांनी चिलेच्या लोकांक एके क्रांती खातीर प्रवृत्त केले. क्रांतीच्या नांवान रचिल्ली अडेची गीतां आनी क्रांतीखातीर स्फूर्त दिवपी निजाची गीतां हांतलो फरक चिलेचे भुंयेर स्पष्ट जालो. (अमेरिकन कारस्थानांनी चिलेची क्रांती मारून उडयली ही गजाल वेगळी!)

लेखक हे फक्त बरोवपी नासतात. ते नवें जग, प्रतिसृष्ट निर्माण करपी आसतात. तांचीं बरपां हीं लोकजिणेचीं आदर्श जावन उरतात. रामायण आनी महाभारत हीं महाकाव्यां म्हळ्यार ह्या म्हणण्याची जितीजागती देख. महाकाव्यांनी निर्माण केल्ली मनशां वा आमचे मुखार दवरिल्ल्यो घडणुको हे सगळें प्रत्यक्षांत घडिल्लें आसूं वा नासूं, पूण काव्यगुणाचे आनी ताच्या प्रभावाचे नदरेन तर त्या कृतींची तुळाच जावंक शकना. ती महाकाव्यां आमचे जिणेची एक भागच जाल्यांत. तीं महाकाव्यां रचपी वाल्मिकी आनी व्यास तर सतत आमचे सांगाताच जियेतात आनी आमी तांचे सांगातात. अशा युगप्रवर्तक लेखकां सांगताक तांच्या साहित्यकृतींच्या रूपान जियेवपाचो अणभव घेवप ह्या सारखो जिवितांतलो दुसरो अमोलीक असो आनंदाणभव नाच्च ना.

***(स. नागेशबाब करमली हांचो आदलो एक लेख)***

***

## उकतावणी

(सेम आं. ८ रजिस्ट्रेशन ऑफ न्यूज पेपर्स सेंट्रल रूल्स १९५६, फॉर्म आं. ४)

| | |
|---|---|
| १. उजवाडावपी थळ | : मडगांव, गोंय ४०३ ६०१ |
| २. उजवाडा येता तो काळ | : दर म्हयन्याक |
| ३. उजवाडावपी, छापपी आनी धनी | : जयवंत भालचंद्र सरदेसाय |
| राष्ट्रियताय | : भारतीय |
| नामो | : २०१ -बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स, रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव-गोंय ४०३ ६०१ |
| ४. संपादपी | : आसावरी नायक |
| राष्ट्रियत्व | : भारतीय |
| नामो | : २०१ -बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स, रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड, मडगांव-गोंय ४०३ ६०१ |

हांव, जयवंत भालचंद्र सरदेसाय, अशें उकतायतां की, वयर दिल्ली खबर, म्हजे म्हायतीक आनी समजुतीक धरून खरी आसा.

**जयवंत भालचंद्र सरदेसाय**

उजवाडावपी



# भायरीकांड

म्हजो वखदां विकपाचो धंदो. ह्या व्यवसायांत गंभीर प्रसंगाबरोबर विनोदी गजालीय खूब्ब फावट घडटात. केन्नाय, जे पेशंट येतात ते स्वताचे दुर्येसाविशी खबरी सांगून हांसयतात. तर केन्नाय तांगेल्या उलोवण्याचेर म्हज्यो तशेंच हेर स्टाफाच्यो प्रतिक्रिया आयकून तांकाय हांसपाक येता. अशा हलक्या फुलक्या वातावरणांत केन्नाय गुळयो वखदां घेवंचे आदींच थोडयांची घुस्पट उणावता. अशें जेन्ना जाता तेन्ना म्हजे मतींत प्रस्न येवपाक लागतात की इतली म्हारग वखदां दिवन प्रेशर सारकेल्यो व्याधी जाग्यार हाडचे परस हे दोतोर तांका विनोदी किस्से ज्योक्स बी आयकुपाचो सल्लो कित्यात दिनात काय? वखदांचे बरे परिणामा सांगाता सायड इफेक्टसूय आसतात. त्या सुवातेर तांका हांसूक लावपी विनोदी गजालींचो पर्याय अदीक बऱ्याक पडूंये! अशें सदांच म्हाका दिसत आयलां.

संतू नावाचो एक तरणाटो म्हजेकडेन कामांक आसा. हरशीं तो एका बँकेचो फूलटायम कामगार. पूण फावता तसो तो म्हज्या आदाराक फार्मासींत येता. तसो भुरगो बरो. सदांच हेरांक आदार दिवपाक मुखार अशे सभावाचो. संतू फार्मासींत आयले बराबर सगळे वातावरण मुदार जाता. तो अश्यो कांय गजाली सांगता की तोवूय हांसता आनी आमकांय हांसयता. तर कांय जाण संतू कडल्यानूच वखदां घेतले म्हूण तो येसर वाट पळयत रावतात. तो आयलो कीं हांसत खेळत ताचे कडल्यान वखदां घेवन वतात. तो ज्या वाड्यार रावता थंय तागेल्या हेच सभावाक लागून बरोच फामाद जाला. एक म्हळ्यार फार्मासींत काम केल्ल्यान वखदांचें वेल्यावयर गिन्यान ताका आसा. तातूंत आनी तो सदांच आपले घराकडेन मुद्दम वेळ प्रसंगार उपेग पडपी वखदांचो स्टॉक दवरता. त्या फाटलो तागेलो हेत कसलीच अदीक जोड बी करपाचो केन्नाच नासता. तर लोकसेवा तशेंच गरजेवंताक रातचे वगतार बी वखदां मेळचीं! इतलो बरो आसता. तागेल्या शेजाऱ्या-पाजाऱ्यांक आतां संतूल्या परोपकारी वृत्तीची इतली संवय जाल्या कीं रातचे वेळार बी कोणाकूय कितेंय जालें जाल्यार दोतोराक सोदपाक वच्चे परस लोक संतूक सोदीत येतात. आनी फावो तसो हो लोकांल्यो गरजो भागयताय बी! केन्नाय म्हाकाय फोन करून उठोवन घालता. ''अमकेच दुर्येसाचेर खंयची गुळी दिवप?'' अशें विचारता. केन्ना-केन्नाय दोतोरांकय त्रास दिता. पूण ते फाटल्यान दुर्येतीचे बरें जावचे हीच भावना आसता. देखून संतूचो कोणाक राग येना. परतें भर राती आमगेल्यो फावटी चुकयल्यो देखून तोखणाय दिसता.

बँकेतले, शेजारचे लोकय ताका आता दोतोर म्हणपाक लागल्यात. चड करून रातचो बी तो लोकांक पावता म्हणून चड! असोच एक राती बारा - एके वरांचे सुमाराक एक मध्यम पिरायेचो मनीस संतूले घराकडे आयलो. म्हणपाक लागलो, ''भायरी जावन जावन म्हजे आज्जी पुराय जाम जाल्या. मरता काय उरता अशे दशेक पावल्या. तुजेकडेन कितेंय तरी आसल्यार दी...''

''दोतोरागेर व्हरात मरे तिका. इतली जाम जाली जाल्यार म्हज्या गुळयांनी काम जावचें ना'' संतू.

''व्हेल्ली तिका काल आमी दोनपरां.''दोतोरान भायरेच्यो पुडयो दिल्ल्यो. त्यो घेवन सोंपयल्यो. पूण तिगेली भायरी बंद जायना.'' तो.

''आता म्हजेकडे कित्याक आयला तर?'' - संतू

''तुजे लागी बऱ्यांतली बरी वखदां आसतात. त्या भायर तुगेलो हातगुणय बरो आसा म्हूण आयकून हांव आयलां - तो.

''आरे पूण दोतोराच्या वखदांनी जे जालें ना. ते म्हगेल्या गुळयांनी कशें जातलें? संतू तोखणाय आयकून भितरले भितर मुरगुटून म्हणपाक लागलो.

''तरी पूण तू कितेंय तरी दी रे! एक जांव दोन गुळयो. तुवें बाटलेंत उदक घालून दिल्यार लेगीत तें बऱ्याक पडटलें. तें व्हरून ओत्तां म्हातारेच्या ताळ्यांत.'' तो मनीस जाल्ले जागरणान वा न्हिदेचे येतल्या चेंपणाक लागून स्वत:चेरूच बेजारिल्ले भशेन उलयतालो. तशेंच तेमाक पडिल्ले भशेन आंगणात पासयो मारतालो. आतां घरांत आयिल्ल्या गरजेवंताक रिते हातांनी धाडटलो कसो? हो संतूलो सभाव.

संतून घरांत वचून तागेल्या स्टॉकांतल्यो चार गुळयो हाडून ताका दिल्यो आनी घरा धाडलो. आपुणूय वचून न्हिदलो. फांतोड जाता म्हणसर दाराचेर मोठमोठ्यान टक् टक्! संतू आंग काडून जागो जालो. खिणभर भायर कितें जाला तें समजलें ना. भायल्यान ''संतू - ये संतू'' अशे आवाजान कोण तरी आड्डतालो. येदोळ येवन गेल्लो तोच तो आजयेचो नातू!



घडये येदोळ दिल्ल्या गुळयांनी कितेंय भानगड वा उलटा-पुलटा बी जालें काय? संतू भियेलो. हळू दार उगडून पळयलें. नातवा सांगाता आज्जीय आयिल्ली. दोगांय भोव उपकाराच्या सुरांत! आज्जी तर फांतोडेच्या काळखांत पायां पडपाक संतूले पांय सोदपाक लागली. नातवान तर संतुक असो घट्ट धरलो कीं तो आता ताका उखलून गर गर करून घुंवडायता अशे भशेन दवरलो.

"आरे तुमकां आनीक टायम नासलो हांगार येवन नाचपाक?" -संतू

तुवें दिल्ल्या गुळयांनी आज्जी सामकी बरी जाली. - तो नातू.

आता संतूक प्रस्न खावपाक लागलो. जे दोतोराल्या पुडयांनी जालें ना, तें आपणें दिल्ल्या गुळयांनी कशें कितें जालें? हुस्क्यान तशेंच आजापान ताचो सोद घेवपाक आजी आनी नातवाच्या फाटल्यान तांगेर वचपाक लागलो.

आज्जेल्या वखदांचे डब्याभितर पळयल्यार सगल्यो पुड्योच पुड्यो. मध्यानरातीं आपणे दिल्ल्या गुळयांचे नांव खबर आशिल्ल्यान संतून त्यो रोखड्योच वळखल्यो. दोतोराक दिल्ल्या पुड्यांचेर 'बंद व्हायच्या' तशेंच 'कोठा साफ व्हायच्या' अशेंच बरयिल्लें. त्या भायर पयली केन्नाच्या दुखीच्यो, ओंकाऱ्याच्यो अशो सरभरस पुडयोय तांचे वेल्या नावांक लागून समजताल्यो. त्योवय भरपूर आसल्यो. आता आज्जेन सकाळच्यान तातूंतल्यो खंयच्यो घेतल्यो काय? वाचून कोणे सांगनाशिल्ल्यान बंद जावपाच्या पुड्यांचे सुवातेर संडास जावपाच्यो पुड्यो बी घेतल्यो नां मू तिणे? असो दुबाव संतूक आयलो. तरी लेगीत दोनूय नावांच्यो पुड्यो दोन हातांनी धरून संतून आज्जेक विचारले....

"आज्जे काल दोतोरान तुका कसल्यो पुड्यो दिल्ल्यो गे?"

"भायरेच्यो"... आज्जी

आनीक दोनपरा गेल्ली तेन्ना?

भायरेच्यो... आज्जी

"ह्यो? काय ह्यो?" आज्जी अनपढ त्या पुड्यांचे कागदाचो रंग वळखून तरी सांगत म्हळ्यार तिगेली दोळ्याची व्हिस्तय फ्राक!

"आगे तुवे भायरी बंद जावचेल्यो काय चालू जांवचेल्यो पुडयो घेतलेल्यो? हें तुका विचारता हांव!... संतू तापता तरी ताचे तिका कांय पडलेलें ना.

सांगपाचे म्हळ्यार आज्जेक संतून दिल्ल्या गुळ्यांनी सुसेग मेळ्ळो. पूण अशे भशेन घुस्पागोंदळ सगल्यो गुळयो पुडयो एकठांय दवरिल्ल्यान जांव येतात. जिवावेलो खेळ जांव येता.' हें भाशण संतूक त्या नातवाक तापोवन काडटना करचें पडलें. येदें व्हडलें हें भायरी कांड जालें. अशे भशेन वखदांकडेन घाळपणा केली जाल्यार तें कोणाल्याय घरांत जांव येता. हें त्या वाड्यावेल्या लोकांच्या मतींत आयलें. बरें म्हणून बरें!

त्या दिसाच्यान संतूली ह्या भायरी कांडाची खबर फां-फां करीत गांवभर पावली. आनी बोवाळांत संतूलो व्हालोर वाड्यार तशेंच गांवभर बरोच वाडलो.

संपर्क: 94207 68518

***

(पान २५ वयल्यान)

दवरुन तोंडांत विरगळत खावप. ती खाल्या उपरांत जें आहऽऽऽ जाता तें उतरांनी उक्तावं नजो. तें स्वताःच अणभवचें पडटा. सखारामाली फामिल ही बिस्कूत तयार करपाच्या प्रक्रियेंत आपलो खास हातभार लायताली अशें सखाराम कडसून आयकूंक येतालें. तेंवूय खरें आसूंक जाय. म्हणुनुच त्या बिस्कूतेंत इतली रुचिक सुरबूससाण आसताली जावंये. चार लांबट आलीमेंनाच्या डब्यांनी ही बिस्कूत गाड्यार पयलीं सायकलीचेर, मागीर स्कूटरीर आनी उपरांत जीपीन येवंक लागली. विकतना डब्यांतली एक गरम बिस्कूत गिरायकांक टेस्टर म्हण दिवप ही सखारामली खासियत आशिल्ली.

सखाराम आनी ताचो भाव बाबी दोगायचो संसार वाडलो. दोगांयनी मेळून नवो जागो घेतलो. थंय व्हड घर बांदलें. मिंगेलील्या घरांतलें खोर्न मात हालयलें ना. ह्या पासत मिर्गेली फमिली वांगडा देमांद चल्लो. सखारामान काळानुसार हेर उत्पनांत बदलूय केले. मागणी तशेंच वाढत्या म्हारगायेचो परिणाम बिस्कुतीच्या प्रेसाचेर लेगीत जालो. तरी लेगीत खारी बिस्कुतेची मागणी वाडत आशिल्ली. सखाराम आसा मरेन ताणे ती पुराय केली. आज तो ह्या संसारात ना. ताचीं भुरगी बेकरी चलयतात. सखारामाचो उणाव तशेच हेर गुस्पागोंदळांत केर्पेच्या खारीची मूळ सुरबूससाण देंवत गेली. लोकांक तिच्या रुचीत फरक कळपाक लागलो. कारण कितें तें देव जाणां. आयज लेगीत ती बिस्कुत दिसपाक तशीच दिसली तरी रुचीक आदल्या सारकी उरली ना हें खरें. पयर श्री. दत्त महाराजांच्या देवळा फुडल्यान पासार जातना पेटी आनी भजनाचे सूर कानार पडले. खंयचे तरी भजनी मंडळ भजन गायतलें आनी अचकीत त्याच खिणांक म्हज्या दोळ्यां सामकार केर्पेचें तें हौशी भजनी मंडळ आयलें. सखाराम धरून हेर सगळे आयज त्या हौशी मंडळांतले कोणूच ह्या संवसारांत ना. तरी तेच गायतात असो भास जालो आनी हांव फाटीं भूरगेपणांत पावलों. खिणभर जायना भूरगेंपणाचो आनंद घेतलो!!

देव आपणाक दिता तेंच आपलें. काय फावटीं मनीस दुसऱ्यांले आपलें नासून लेगीत तें आपणावपाच्या आशेन आपलें आसा तेंवूय वगडावन बसतात. देवान रचिल्ल्या संवसाराच्या ह्या खोर्नांत मनशान स्वताःक जाय तितलोच भाजून, भरसून घेवंक जाय. ना तर नसत्या अधाशीपणा पासत रुचीक खारी बिस्कूत लेगीत अळणी लागूं येता !!

संपर्क : 9822129070 ***

(पान २४ वयल्यान)

*ताच्या सप्नांतय*
*तो तुज्यांच व्यथा जागैता*
*त्या व्यथांच्या आनी*
*तळमळ्यांच्या उज्यांतल्यान*
*घडये उजवाड फांकून गावये*
*उणे जाल्लें मनिसपण*
*रुखावरीं फुलून फळुंये?*

ही कविता म्हळ्यार आकूळ मनान केल्ली प्रार्थना.

संपर्क: 9420222876 ***



नवी
जाग
गोंयकारांक



# जैतवंत जांव!



# स्मिता खांडेपारकार आनी घरचीं

